जाग प्रकाशनाचें

# जाग

म्हयनाळें

वर्स ४५ : आंक ५ : जानेवारी, २०१९



* संस्थापक संपादपी :
स. रवीन्द्र केळेकार
स. सुमंत केळेकार

* वैचारीक दायज :
स. माधवी सरदेसाय

* संपादपी :
आसावरी नायक

* पालवी संपादपी :
कृपाली नायक
एडना वाझ

* उजवाडावपी :
जयवंत भा. सरदेसाय
२०१-बी, सालदॅल अपार्टमॅन्टस्
रुअ द साउदादिश, पाजीफोंड,
मडगांव - गोंय ४०३ ६०१.

* छापपी :
इम्प्रेशन्स, बी-२, 'अक्षर आर्केड',
गोंधळी गल्ली, बेळगांव ५९० ००२

* वेव्हाराचो नामो :
जाग म्हयनाळें
बिल्डींग ३, प्लॅट ३, - SE-3
मॉडेल स्टेटस, दोनापावल-तालिगांव मार्ग, गोंय
विद्यापिठा लागसार, ताळगांव-गोंय ४०३ ००४.
फोन: ९७३०८७१११८/ ७४४७२६८७२०

| | | |
|---|---|---|
| वर्सुकी पटी | : | ४००/- रु. |
| विद्यार्थ्यां खातीर (फकत वर्सुकी) | : | २००/- रु. |
| तीन वर्सांची पटी | : | १,०००/- रु. |
| वाचप-घरां खातीर वर्सुकी पटी | : | ५००/- रु. |
| जिवीत भराची वांगडी-पटी | : | ४,००० /- रु. |

पटी मनी ऑर्डरीन वा ड्राफ्टान धाडची.
ड्राफ्ट Jaag Monthly च्या नांवाचो आसचो.

किरकोळ आंकाचें मोल : रु. ४०/-

## मांडावळ...



भायलें आनी भितल्लीं चित्रां : भरत जगताप



# कोंकणी साहित्याची परखड समिक्षा जावपाची गरज आसा : परेश कामत

**प्रस्नः चित्रलिपी ह्या तुमच्या कविता संग्रहाक केंद्रीय साहित्य अकादमीचो पुरस्कार फावो जालो ते खातीर तुमचें अभिनंदन. तुमची प्रतिक्रिया सांगात.**

**जापः** खंयचोय पुरस्कार फावो जालो म्हणटकीच आनंद जावप सभावीक. साहित्य अकादमीच्या पुरस्काराक मान, प्रतिशठा आसता. तो राष्ट्रीय पांवड्या वयलो पुरस्कार. तुमच्या साहित्याची साहित्य अकादमी सारकी संस्था दखल घेता, ताचो भोवमान करता ही खऱ्यांनीच आनंदाची गजाल.

**प्रस्नः चित्रलिपी हो तुमचो चवथो कविता संग्रह. चित्रलिपी संग्रहा मेरेनची तुमची कवितेची वाटचाल कशी आशिल्ली?**

**जापः** म्हजे एकूण आज मेरेन पांच कविता संग्रह उजवाडाक आयल्यात. अळंग हो म्हजो कविता संग्रह २००० वर्सा उजवाडाक आयिल्लो. ते उपरांत- गर्भखोल, शुभंकर, चित्रलिपी आनी आतां रंगबोली हो नवो कविता संग्रह ह्याच वर्साक उजवाडाक आयला. एकूण तीस वर्सांची म्हजी कवितेची वाटचाल.

**प्रस्नः साहित्य अकादमीचो पुरस्कार फावो जाल्ल्या तुमच्या चित्रलिपी संग्रहाचें आशयसूत्र कितें?**

**जापः** चित्रलिपींतल्या कवितांची सूत्रमय पद्दतीन मांडणी केल्या. उदक, होडें, काळोख, उजवाड, झाड, शेवर्णी, animal series, तूं-हांव मदले परस्पर संबंद, काव्य सूत्र, मूय, भूंय असो हो प्रवास सुरू जाता. जंय हो प्रवास सोंपता थंयच्यान परत उदकाचो प्रवास सुरू जाता. असो हो आदिम काळा पासून अनंत काळा मेरेनचो प्रवास चित्रीत केला.

**परेश नरेंद्र कामत हांच्या 'चित्रलिपी' ह्या पुस्तकाक २०१८ वर्साचो साहित्य अकादमीचो पुरस्कार फावो जालो. ते निमतान 'जागा'चे वतीन तांची घेतिल्ली ही खास मुलाखत.**

चित्रलिपींतल्या कवितांची भास चित्रांचो फॉर्म घेवन आयल्या. अनंतकाळाचो ध्यास आशिल्लो काळोख आनी उजवाड, काळो आनी धवो, पाचवो आनी तांबडो, भूंय आनी उदक हांच्यो contrasting images ह्या कवितांनी दिश्टी पडटात. कामसुत्रांतल्या समागमाच्या वेगळ्या वेगळ्या आसना सारक्यो चित्रलिपयेंत कांय कविता आसात. मनशांच्या, जनावरांच्या, वस्तूंच्या, उदकाच्या, भुंयेच्या आनी निसर्गाच्या समागमांतल्यान आयिल्लें ह्या कवितांचें सौंदर्य खजुराहोच्या संभोगशिल्पां सारकें शिल्पीत जालां.

**प्रस्नः तुमी पयली कविता केन्ना बरयली? आनी तो अणभव कसो आशिल्लो?**

**जापः** हांवें पयली कविता १९८८ वर्सा बरयली. तेन्ना म्हजी पिराय २१ वर्सांची आशिल्ली. कवितेचें नांव आशिल्लें 'तिर्बें'. हे कवितेचे बाबतींत म्हजो अणभव म्हणल्यार ही कविता बरोवन जातकीच हांवें ती पणजेच्या सरस्वती मंदीर हे संस्थेच्या कविवर्य बाकीबाब बोरकार काव्य सर्ती खातीर धाडून दिल्ली. कांय दिसांनी हे कवितेक पयलें इनाम फावो जालें म्हणपाचें म्हाका संस्थेच्या जाळवणदारांनी पत्र बरोवन कळयलें. ही म्हजे खातीर अजापाचीच गजाल आशिल्ली कारण म्हजे पयलेच कवितेक

बाकीबाब काव्य सर्तीत पयलें इनाम फाव जाल्लें. ते उपरांत हांवें आनिकूय कांय कविता बरयल्यो. तातूंतली एक कविता कोंकणी भाशा मंडळाच्या बाकीबाब यादस्तिक कविता सर्ती खातीर धाडली आनी अजापाची गजाल म्हळ्यार तेय कवितेक म्हाका पयलो पुरस्कार फावो जालो. हो म्हजे खातीर उपाट आनंदाचो खीण आशिल्लो.

**प्रस्नः तुमी कविता बरयतात आनी चित्रांय काडटात. गोवा कोंकणी अकादमीच्या 'अनन्य' हे साहित्य पत्रिकेचेर तुमचीं पेंटींग्स पळोवंक मेळटात. हें चित्रकलेचेंय पॅशन तुमकां केन्ना पासून आसा?**

जापः म्हजी कविता आनी चित्रकला हातांत हात घालून चलता. दोनूय कला एकामेकांक पूरक. खरें म्हळ्यार, सामान्य मनशांचे भाशेंत हीं पिशेंपणां. तातूंत कसलोच वेव्हारीक फायदो ना. पूण हांव तीं पिशेपणां करतां. खरें म्हणल्यार, म्हाका चित्रकलेचो नाद भुरगेपणा सावन आसा. पिरायेच्या धायेक वर्सा पासून म्हाका चित्रकलेचें पिशें लागलें. आनी तें अजुनूय तिगून आसा. मर्दी मर्दी वेळ मेळटा तेन्ना हांव चित्रां काडटां. कवितेची म्हजी डायरी आसा तसोच चित्रां खातीर स्कॅचबुकय आसा.

अनन्यांत जीं चित्रां उजवाडाक आयल्यांत ताचें पुराय श्रेय कवी माधव बोरकार आनी कोंकणी कथाकार जयंती नायक हांकां वता. तांकां दोगांयकूय चित्रकलेची नदर आसा आनी आस्थाय आसा. म्हजीं चित्रां, स्कॅचीस पळोवन माधव बोरकारान, 'Very haunting paintings' असो अभिप्राय दिलो तो म्हाका म्हत्वाचो दिसता.

**प्रस्नः तुमचो कविता बरोवपाचो प्रोसेस कसो आसता? म्हणचेच तुमची सर्जन-प्रक्रिया कशी आसता?**

जापः कविता जशी येता तशी हांव ती बरोवन काडटां. मागीर ती परती परती वाचतां. कविता वाचतनां म्हज्यांत आशिल्लो समिक्षक वा आस्वादक तटस्थपणान ते कविते कडेन पळयता. मागीर कवितेच्या गरजेंतल्यान जाय थंय उतरांचे बदल जातात. केन्ना केन्ना बरयल्ल्या वळींचे क्रम बदलतात. कविता अर्थ, आशयाचे नदरेन परिपूर्ण जावची हो मूळ हावेस ताच्या फाटल्यान आसता. ही प्रक्रिया म्हजें समाधान जाय सर चलता. पूण म्हजें समाधान बेगीन जायना.

मागीर कांय काळ हांव ती कविता म्हजे डायरेंत तशीच दवरतां. कांय काळान परती काडून वाचतां. कविता जर आशयसंपन्न उतरल्या अशें दिसलें जाल्यारूच ती छापपाक दितां.

**प्रस्नः कवी, लेखकांचेर वेगळ्या वेगळ्या कलांचे संस्कार जातातूच. मागीर तें साहित्य आसूं, संगीत आसूं, चित्रकला, शिल्पकला आसूं. तुमचेर कवी, चित्रकार म्हणून खंयच्या कलांचे संस्कार जाल्यात अशें तुमकां दिसता?**

जापः संत कवी तुकारामाच्या अभंगांनी म्हाका प्रभावीत केला. तुकारामाची सबंद जीण, तांच्या जिवितांतलो संघर्श, तांच्यो अभंग रचना हातुंतल्यान म्हाका inspiration मेळ्ळां.

कवी पु. शि. रेगेच्यो कविता म्हाका खूब आवडट्यात. तांणी आपली स्वताची अशी शैली विकसीत केल्या. कवितेंतल्या दरेका उतराचो तांणी आशयाचे नदरेंतल्यान, कवितेचे गरजेंतल्यान बारकायेन विचार केला. तांचे कवितेंत दरेका उतराची सुवात, वळींचो क्र म हांकां लयीचे नदरेंतल्यान खूब म्हत्व आसा. एकेतरेचें precision तांचे कवितेक आसा. थोड्याच उतरांनी मोटो आशय सांगपाची तांक तांचे कवितेंत दिसता.

कोंकणी कवितेंत अशे तरेचें precision कवी पांडुरंग भांगी आनी कवी माधव बोरकारांचे कवितेंत दिसता. अशेच तरेचो दिश्टिकोण कवी शंकर रामाणीचे मराठी कवितेंत दिसता. कोंकणी कविते परस तांची मराठी कविता छंद आनी लयाचे नदरेन म्हाका चड सरस दिसता.

त्या भायर पॉल क्ली, एड्वर्ड वेसन, जॉन सिंगर सार्जेंट, गायतोंडे, एम्. एफ. हुसेन हांची चित्रां म्हाका आवडट्यात. हुसेनाच्या घोड्यांनी म्हाका पिशें लायलां. तांचीं घोड्यांची चित्रां पळोवन, सामको भारावन वचून हांवें 'घोडे : एम्. एफ. हुसेन' ह्या नांवाची एक कविता लेगीत बरयल्या. ती शुभंकर ह्या म्हज्या संग्रहांत वाचपाक मेळटा.

आशा भोसले, किशोर कुमार हांचीं गितां, पंडीत जितेंद्र अभिषेकी हांचीं शास्त्रीय -उपशास्त्रीय गितां म्हजे विशेश आवडीचीं. ह्या कलांचोय म्हजे कवितेचेर कळत-नकळत खंय तरी संस्कार जाल्याच आसतले.

**प्रस्नः कवी शंकर रामाणींचो आनी तुमचो बरींच वर्सां पत्र-संवाद चलतालो अशें आयकलां. रामाणी भायर पडल्या उपरांत तांचेर 'ब्रह्मकमळ' ह्या नांवाची तुमची एक कविता 'जागां'त वाचिल्ल्याचो उगडास जाता.**

जापः कवी शंकर रामाणी हे म्हजे साहित्य मळा वयले गुरू आनी मार्गदर्शक. तांचो आनी म्हजो पत्र-संवाद सुमार बारा वर्सां- ते ह्या संवसारांत आस मेरेन चल्लो. तांणी म्हाका साहित्याच्या संबंदान, कवितेच्या संबंदान मोलाचें मार्गदर्शन केलां. जागांत, रुतूंत, सुनापरान्तांत म्हज्यो कविता वाचून त्या कवितांचेर तांणी आपलें बरें-वायट मत म्हाका कळयलां. तो सगळो पत्र- संग्रह हांवें सांबाळून दवरला. तांचीं कविते विशींचीं मतां violent आसतालीं. बरी कविता बरयलें उपरांत आकांताची तोखणाय म्हज्या वांट्याक आयल्या ताचे परस वायट कविता बरयले उपरांत वा एकाद्री कविता तांकां आशयान उखलापी दिसल्यार तांणी म्हज्या गळ्याक सुरी लावपाक फाटीं-फुडें पळोवंक ना. ते सुरयेक खातरेन म्हजें रगत लागलां. अशें आसुनूय तांची कवितेची जाण आकांताची. तेच खातीर आमचो पत्र-संवाद तिगलो. तो दिसान दीस वाडलो. तांणी म्हाका केल्ल्या मार्गदर्शनाक लागून म्हजीय कविते कडेन पळोवपाची नदर पाचवीचार जाली. नदर पाचवीचार जावप हें खास तांचेंच उतर. कवी माधव बोरकारा कडेनूय तांचो पत्र-संवाद खूब वर्सां चल्लो. म्हाका आयिल्लीं सुरवेच्या काळांतलीं पत्रां माधव बोरकार, रवीन्द्रबाब केळेकार आनी डॉ. नंदकुमार कामतीन वाचल्यांत, तातुंतलीं कांय वेंचीक पत्रां माधवबाबान

संपादन करून रामाणीचीं पत्रां अशें शिर्शक दिवन 'जागां'त छापल्यांत. रामाणीच्या सहवासांत म्हजी कवितेची समज वाडली अशें म्हाका दिसता.

**प्रस्नः तुमकां कविता कशी सुचता?**

**जापः** कवी रामाणी आपल्याक कविता येता म्हणटालो. भांगीचेंय तेंच मत. कविता ही येता ही गजाल सत. इतलीं वर्सां कविता बरोवपाच्या म्हज्या अणभवा प्रमाण- कवितेच्या आंतरीक ध्यासाचे अस्वस्थतायेंतल्यान म्हाका कविता स्फुर्ता. अस्वस्थताय ही सर्जनशील लेखकाक गरजेची. हे अस्वस्थतायेचेंच रूपांतर मागीर खऱ्या अर्थान सृजनशील साहित्य निर्मितेंत जाता. पूण ते खातीर साहित्य साधना गरजेची. वाचन गरजेचें. वाचनान नवी जीवनदृश्टी मेळटा. अणभव गिरेस्त जातात. वाचन-मनन-चिंतन ही त्रिसूत्री अणभवांक नवें आयाम दितात. नवीं परिमाणां दितात. चिंतनान अणभव अनुभुतीच्या पांवड्यार पावून ओले जातात. ही अनुभुतीची ओलसाण कवितेक रसरसून फुलपाची उर्जा दिता. कविता उत्कंट, तरल जावपाक शेकीं ही अनुभुतीच कारण थारता.

**प्रस्नः तुमीं कितल्यो कविता बरयल्या?**

**जापः** १९८८ ते २०१८ मेरेनच्या काळांत हांवें हजारां वयर कविता बरयल्यो. तातुंतल्यो वेंचीक कविता म्हज्या पांच कविता संग्रहांनी उजवाडाक आयल्यात. कांय अजून उजवाडाक येवपाच्यो आसात.

**प्रस्नः तुमचे आदले पिळगेंतले खंयचे कवी तुमकां आवडटात? कोंकणी, मराठी, हिंदीतले बी?**

**जापः** कोंकणींतले म्हजे आदले पिळगेंतले बरेच कवी हांवें अभ्यासल्यात. तांच्या कवितेचेर एकाद्रो प्रबंध लेगीत हांव बरोवंक शकतां. सुदैवान इतलें अकलेचें भांड्वल म्हजे कडेन आसा.

कोंकणी कवितेंत पांडुरंग भांगीचे कवितेंतली घोटीवता, माधव बोरकारांचे कवितेंतली तरलता, रमेश वेळुस्काराचे कवितेंतली सैंद्रियता, नागेश करमलीचे कवितेंतली सामाजीक जाणीव, पुंडलीक नायकाचे कवितेंतली बंड्खोरी, शंकर रामाणीचे कवितेंतली गुढावस्था, काशिनाथ शांबां लोलयेंकाराचे कवितेंतलो सरियालिझम, अरूण साखरदांडे हांचे कवितेंतली ॲब्सर्डीटी, प्रकाश पाडगांवकराचे कवितेंतली आध्यात्मिकता, शंकर परूळकार हांचे कवितेंतलो अस्तित्ववाद म्हाका आवडटा. कोंकणी काव्य परंपरेंत मोलाची भर घालपी ह्या कवींच्या अभिव्यक्तीची तांक पळोवन हांव भारावन वतां.

त्या भायर मराठी कवी मर्ढेकर, रेगे, ग्रेस, आरती प्रभू, विं. दा. करंदीकर, दिलीप चित्रे, वसंत डहाके, गुरूनाथ धुरी, अरूण कोलटकर हांच्यो कविता हांवें बारकायेन वाचल्यात.

हिंदी कवी राजेश जोशी, मंगलेश डबराल, अशोक वाजपेयी हांच्यो कविता आनी उर्दू कवी जयंत परमार हांच्यो कविता म्हाका मानवतात.

**प्रस्न : तुमची तुडूंब ही कविता बरीच गाजल्या. कविसंमेलनांनी बी तुमी ती खुबदां वाचतात. ही कविता तुमकां कशी सुचली?**

**जापः** एकाद्रे कवितेचे निर्मिती प्रक्रिये विशीं सांगप ही सोंपी गजाल न्हय. ही प्रक्रिया बरीच गुंतागुंतीची आसता.

म्हजें आजोळ पणजे. महालक्ष्मीच्या देवळा कडेन लागींच म्हज्या आज्याचें पोरणें नळ्यांचे घर आसा. प्राथमीक शिक्षणाच्या निमतान हांव पणजे म्हज्या आजोळा आसतलों. मुश्टिफंड शाळेंत हांव शिकलां. पणजेच्या शारी वातावरणांत हांव वाडलां.

पणजे सांतिनेज वाठारांत 'बिस्माची बांय' ह्या नांवाची एक बांय आशिल्ली. ती खूब खोल आनी काळखान भरिल्ली दिसताली. भुरगेंपणांत हांव आनी म्हजे कांय इश्ट हे बांयंत ओणोव घालून भितर कितेंय दिसता काय पळेताले. एकाद्रो गुणो बांयंत उडोवन पळेताले. हो आमचो सदचो पासटयम आसतालो. बांय काळखी आनी खोल आशिल्ल्यान 'बुडूकऽऽ' असो आवाज बऱ्या वेळान येतालो आनी बांयच्या तळाक उदक आसा हें कळटालें. मागीर बरींच वर्सां ती बांय म्हज्या तकलेंतल्यान गेली ना. बांयंतलो काळोख खंय तरी काळजांत घर करून रावलो. ते बांयचे संबंदान हांव कांयच बरोवंक पावंक ना हाची अस्वस्थताय मनांत आशिल्लीच. पूण तो अणभव मांडपाक उतरां मेळनासलीं. एक दीस अचकीत- सुमार पंदरा-सोळा वर्सां उपरांत- म्हज्या मनाची सगळी अस्वस्थताय एके निर्मितीच्या खिणाक त्य उतरांनी आयली. म्हज्या मनांतली अनुभुतीची उदकान तुडूंब भरिल्ली बांय हांवें बिस्माच्या बांयंत रिती केली.

*उदक अस्वस्थ*
*उदक अशांत*
*उदक करता; झुरता*
*उदक व्यक्त*
*आनी अव्यक्ताच्या*
*कांठ वयल्यान पाझरता...*

अश्यो वळी- in tranquilness हांव म्हजेच नकळत बरोवन गेलों.

**प्रस्नः तुमच्यो कविता खंयच्या खंयच्या भासांनी अणकारींत जाल्या?**

**जापः** मराठी, हिंदी, गुजराती, पंजाबी, सिंधी, उडिया, कन्नड आनी इंग्लीश ह्या भासांनी म्हज्या कवितांचो अणकार जाला.

अखील भारतीय आकाशवाणीचें सर्वभाशा कवीसंमेलन २०१४ वर्सा हैदराबाद हांगा जाल्लें. त्या कवीसंमेलनांत 'तुडूंब' ही म्हजी कोंकणी कविता हांवें सादर केल्ली. तिचो अणकार २१ भारतीय भासांनी जाला.

म्हज्या कवितांचें इंग्लीश अणकार श्री. दामोदर घाणेकार आनी श्री. सचिन पै रायकार हांणी केल्यात आनी ते साहित्य अकादमीच्या इंडियन लिटरेचर ह्या नेमाळ्यांत छापून आयल्यात. त्या भायर हिंदी अणकार प्रा. आदित्य सिनाय भांगी हांणी केल्यात. नामनेच्यो मराठी कवयित्री आसावरी काकडे हांणी म्हज्यो कविता मराठींत अणकारल्यात तर प्रा. उर्वशी पांड्या हांणी त्यो व्हेल्यात. डॉ. उर्वशी पांड्या ह्यो मुंबय युनिवर्सिटींत गुजरातीच्यो प्राचार्य आसात.

त्या भायर, सोलापूर विश्वविद्यालयान 'तुडूंब' हे कीवतेचो श्री. सचिन पै रायकार हांणी केल्लो इंग्लीश अणकार एम्.ए- भाग २ च्या अभ्यासक्रमाक लायला.

**प्रस्नः तुमी कोंकणींत केल्ले कांय कवितांचे अणकार हांवें वाचल्यात. ही आवड कशी निर्माण जाली?**

**जापः** कवितांचे अणकार करप ही खूब कठीण अशी गजाल. ते खातीर खूब वेळ खर्चता. वरांचीं वरां एकूच कविता घेवन तिचेर काम करचें पड्टा. आनी केल्लो अणकार उत्कृश्ट जातलो हाची खातरी नासता.

हांवेंय म्हाका आवडिल्ल्या दुसऱ्या भासांतल्या कवितांचे अणकार केल्यात. म्हाका मराठी, हिंदी आनी इंग्लीश ह्यो तीन भासो कळटात. ह्या भासांतल्यो कविता हांवें अणकारल्यात. इंग्लीश आनी हिंदी ह्यो 'फिल्टर भासो' ह्या दोन भासांनी मुखेलपणान अणकार जाल्ले आसल्यार मागीर हेर खंयच्याय देशी-विदेशी भासांत त्यो कविता अणकारप शक्य जाता.

नामनेचे हिंदी कवी श्री. राजेश जोशी हांच्या साहित्य अकादमीचो पुरस्कार फाव जाल्ल्या 'दो पंक्तियों के बीच' ह्या कविता झेल्याचो कोंकणी अणकार हांवें साहित्य अकादमी खातीर केला. त्या भायर म्हाका आवडिल्ल्या कवितांचे कोंकणी अणकार हांव करीत आसतां. अणकार करपाचो सराव आसतकीच कोंकणी भाशेचे तांकीचो आनी लवचिकतायेचो अदमास येता.

**प्रस्नः तुमच्यो फामाद कविता खंयच्यो?**

**जापः** तुडूंब, रानवाल, फुलां येतात जल्माक, फुलाची गाज, निळी निळी कृष्णसया, कांय होड्यो उदकांत, कोणार्कचें सूर्यमंदीर ह्यो म्हज्यो कांय म्हत्वाच्यो कविता आसात.

**प्रस्नः तुमच्या घरांत तुमीं लेखन करचे आदीं लेखन परंपरा आशिल्ली?**

**जापः** हय. म्हजो बापूय नरेंद्र काशिनाथ कामत हांणी मराठी आनी उपरांत कोंकणींतल्यान बरप केलां. तांचीं बरींच पुस्तकां छापून आयल्यां. तांचें वाचन अफाट. अर्नेस्ट हॅमिंग्वेची- 'ओल्ड मॅन अण्ड द सी' ही कांदबरी आनी नॅथनील हॉथॉर्न हांची नवलीका-'द स्कार्लेट लॅटर' तांणी कोंकणींत अणकारल्या. त्या भायर ते एक बरे रंगकर्मी आशिल्ले. म्हजो काका डॉ. आनंद कामत हे फ्रेंच भाशेचे प्राचार्य. ते मुंबय भवन्स कॉलेजींत फ्रेंच शिकयताले. तांणी फ्रेंच आनी इंग्लीश साहित्य कोळून पिलां. प्रो. कंटकाचे ते विद्यार्थी आशिल्ले. तांणी मराठींतलें विद्रोही साहित्य फ्रेंचींत अणकारलां. मराठी लेखक लक्ष्मण मानेची कांदबरी - 'उपरा' तांणी फ्रेंच आनी इंग्लिश भाशेंत अणकारल्या. त्या भायर म्हजो आजो काशिनाथ नारायण कामत हो संस्कृत आनी मराठी भाशेचो पंडीत आशिल्लो. पूण म्हजो जल्म जावच्या आदीं ते ह्या संवसाराक अंतरले. तांचीं सुंदर अक्षरांनी बरयल्लीं हस्तलिखीतां म्हाका तांच्या आलमारींत सांपडलीं. सगळ्यांत म्हत्वाचें म्हणल्यार आमच्या मडकयच्या घरांत मराठी, इंग्लीश, संस्कृत आनी पुर्तूगेज भासांतल्या पुस्तकांची एक लायब्ररी आशिल्ली. ती म्हाका बऱ्याक पडली. आतां म्हजो धाकलो भावूय बरयता. म्हणजे आमी कलेच्या मळार सगळे जेनेटिकली कनेक्टेड आसात अशेंच म्हणचें पडलें. साहित्य, कलेचें दायज हें रगतांतल्यानूच आमचे मेरेन पावलें.



**प्रस्नः कोंकणींतल्या साहित्याची प्रखर समिक्षा जायना अशें कांय लेखक शीण काडटात. तुमचें मत कितें?**

**जापः** गजाल खरी. कांय वर्सां फाटीं कोंकणी साहित्य संमेलनांच्या अध्यक्षीय भाशणांत कवी रमेश बाब वेळुस्कारान समिक्षेच्या विशयाक हात घाल्लो. कोंकणींत जी समिक्षा जाता ती आस्वादनात्मक. एकाद्रो एस्. डी. तेंडुलकारा सारको समिक्षक मुल्यमापनात्मक समिक्षा बरयता. आतां मुल्यमापनात्मक समिक्षा म्हणल्यार कितें तें पयलीं समजून घेवचें पड्टलें. लेखकाच्या साहित्यकृतींतले गूण, दोश दाखोवन, त्या साहित्याची तांक दाखोवन त्या लेखका मुखार व्हड आव्हान उबें करप ही मुल्यमापनात्मक समिक्षेची खरी मोख. लेखका कडेन विवेकनिश्ट नदर आसले बगर असली समिक्षा पचोवप कठीणूच. प्रत्येक लेखकाक समिक्षकांनी आपल्या साहित्याची तोखणाय करची अशें दिसता. पूण तातुंतले दोश दाखयतकच समिक्षकाची भिरभिरी मारता. साहित्यकृतींतले दोश दाखयले बगर मुल्यमापनात्मक समिक्षा फुडेंच वच्ची ना. म्हणून आस्वादनात्मक समिक्षा हीच खरी समिक्षा असो कोंकणींतल्या बऱ्याच लेखकांचो गैरसमज जाला. त्या भायर रसग्रहणात्मकूय समिक्षा आसा आनी चॅरिटेबल क्रिटिसीझम म्हणूनय एक समिक्षा प्रकार आसा. चॅरिटेबल क्रिटिसीझमांत तर साहित्यकृतीचें मुल्यमापन तर जायच ना. समिक्षक फकत लेखकाक म्होंवांत बुडोवन काड्टा. जाय तशीं फुलां माळटा. कोंकणींत हाताच्या बोटार मेजपा इतलेच समिक्षा ग्रंथ आसात.

मराठींत मुल्यमापनात्मक समिक्षेन बरीच क्रांती केल्या. विलास सारंग, भालचंद्र नेमाडे, माधव आचवल, म. सु. पाटील, विजया राजाध्यक्ष हांणी उपाट प्रमाणांत गंभीर समिक्षा बरयल्या. कोंकणींतूय अशे तरेची समिक्षा चड प्रमाणांत येवची अशें म्हाका दिसता.

**प्रस्नः कोंकणींत आधुनीक कविता वा नवकविता कितल्या प्रमाणांत बरोवन जाता? आधुनीक कवितेचीं मुखेल लक्षणां खंयचीं?**

**जापः** कोंकणींत आधुनीक कविता सादारण १९७० वर्सा उपरांत आयल्या. तो मेरेन रॉमेंटीक कविताच चड प्रमाणांत बरोवन जाताली. आनी तीय परंपरीक. पूण १९७०च्या अदमासाक पुंडलीक नायक सारको कवी नव्या दमाच्यो कविता बरोवंक लागलो. ताची बांगर

(पान २८ वेर...)

# दिसपटी

▸ रवीन्द्र केळेकार



रवीन्द्र केळेकार... कोंकणी चळवळींत शणै गोंयबाबां उपरांत आयिल्लो एक खडेगांठ फुडारी. निखटो साहित्यकार न्हय, एक खांपो झुजारी. एक लेखक, कुटुंबाचो मुखेल घटक - घरकार, काकासायबांचो भक्त, इश्ट आनी इश्टिणींच्या उल्यान धावून वचपी आनी ह्या व्यापांतल्यानय आपल्या लेखनाक खंड पडूक दिनास्तना रावपी लेखक... हे दिसपटेंयतल्यान १९८६ वर्सा चलिल्ल्या खर कोंकणी चळवळींतल्यो बारीकसाणीय वाचूंक मेळटात...

**३१ जुलय १९८६**

- वसंतबाबाच्या आपोवण्याची वाट पळयली कोण आयलो ना. तेन्ना... तकलेंतलें काडून उडयलें आनी म्हज्या कामांत व्यग्र जालो.

**१ ऑगस्ट १९८६**

- Institute Menezes Braganza चो fellow केला म्हूण पत्र आयलां.

**३ ऑगस्ट १९८६**

- स तारखेर - परतो मेळावो : नाका आशिल्लो. पुणून... तेमार उठल्यात दोनूय पंगड...

- इश्तितूतांक जाप धाडली : भौमानान फेलोशीप घेतां म्हूण...

- इन्दुनाथाक जाप : फ्रेंक मोराआिश तो न्हय, हो दुसरो म्हूण... madicious म्हूण...

**४ ऑगस्ट १९८६**

- गुलाम नबी आजाद आनी भाटिया गोंयांत आयल्यात. कितें थारायतले?

राणे सरकार वचूंक जाय इतले एक थारायल्यार सगळे प्रस्न सुट्टात...

- सरोजबेनीक पत्र : श्रीखंड सुद्दां घातकूच मागीर तिखशें, खारशें खायन दिसता तशें म्हजें जालां म्हूण.

काका चरित्राक दोन वर्सां घेतलीं. आतां कांय वाचप ना, कांय बरोवप ना... अशें येवजितां म्हूण.

**५ ऑगस्ट १९८६**

- काका चरित्राची सवी डायरी पुराय केली. आनी दिल्लीक धाडपाक पॅक केली. आतां फकत स-सात प्रकरणां उरल्यांत... आठ-धा दिसांत पुराय जावंक जाय.

**९ ऑगस्ट १९८६**

- अकादमीचो घुमो...

- पणजे व्हरपाक धाडटां अशें उदयान सांगून धाडिल्लें कोणूच आयलोना.

- भाऊचें भाशण बरयलें.

**१६ ऑगस्ट १९८६**

- आतां एकूच प्रकरण उरलां काका चरित्राचे.

- रवीन्द्रनाथाचेर एक टॉक - मुम्बय रेडियो खातीर.

**१७ ऑगस्ट १९८६**

- नोतूचो जल्मदीस.

सुबोध - सविता - रात उरल्ली.

**१८ ऑगस्ट १९८६**

- सकाळचो आदेस सुबोधाक -

**२१ ऑगस्ट १९८६**

- काकासायबाचें जिवीत आयज पुराय केलें... तकली आयज ल्हव जाली...

आयज काकासायबांची पुण्यतिथूय आनी सरोजबेनचेंय आयज पत्र... 'तुवें कपाल केली... तुका प्रणाम करचेंशे दिसलें' म्हूण...

- सुजूचे सोयरिकेक. फोंड्यां.

काका जिवीत सुरू केल्लें २२-१-८५ दिसा. सोंपलें २१-८-८६ ह्या दिसा. मदीं धाकलें चरित्रय बरोवन दिलें. आनी चीनची यात्रा करून आयलीं.

**२२ ऑगस्ट १९८६**

- रवीन्द्रनाथांचो धर्म-बोध - मुम्बय रेडियो खातीर.

- भामू आयिल्लो.

महाभारताचें हस्तलिखीत मनोहराक दिवपा खातीर ताचे कडेन दिलें.

**२३ ऑगस्ट १९८६ मुम्बय**

- मुम्बय - ४.३० क.

- भायर सरता आसतनाच चंद्रकांताचें पत्र

हिन्दू धर्माचेर कितें बरयलां ते धाड म्हूण-

हिन्दू जिवन दृश्टि धाडून दिलें.

त्याच खिणाक हिन्दू धर्माचेर एक पुस्तक बरोवचें अशें तकलेंत आयलें. विमानांत चिं. वि. वैद्यांचें पुस्तक हिन्दू धर्मावेलें वाचूंक घेतलें.

**२४ ऑगस्ट १९८६ मुम्बय**

- बापूराव नायकाच्या चल्यागेर - महाभारता संबंदान उलोवणी.

- अ. ना. आनी कृष्ण करवार - कृष्णा सुवादीन महाभारत दिवप- १०/१५ हजार चड खर्च येतलो. पूण बरें येतलें. परां मेळचें अशें थारलां.

- दनपरां शिलागेर, दत्तारामा बरोबर.

**२५ ऑगस्ट १९८६ मुम्बय**

- सकाळी माधव बोरकारा बरोबर रेडियोर.

रवीन्द्रनाथाचेर दोन टॉक रिकॉर्ड केलें.

एक २८ तारखेर वितरायतले - दुसरो आनीक केन्नाय.

**२६ ऑगस्ट १९८६ मुम्बय**

- शीला आयिल्लें.

- कृष्ण करवारान सांजचों हिशोब हाडून दिलो.

**२७ ऑगस्ट १९८६ दिल्ली**

- सकाळचे फ्लायटीर दिल्ली ११.३० क

- जन्माष्टमी

**२८ ऑगस्ट १९८६ दिल्ली**

- सा. अ. चीं बसका -

दनपरां रवीन्द्रनाथ राष्ट्रीय संगोश्टीचें उद्‌घाटन.

**२९ ऑगस्ट १९८६ दिल्ली**

- रवीन्द्रनाथ राष्ट्रीय संगोश्टी

पवनाक २००/- दिले

टायप केल्ले तपासूंक घेतलें -

- शकुंतलेक मेळूंक शास्त्री भवनांत

**३० ऑगस्ट १९८६ दिल्ली**

- टायप केल्लें तपासूंक सकाळच्या आदेसाक घराच रावलों. दनपरां सा.अ.त. राष्ट्रीय संगोश्टींत परत घरा - टायप केल्लीं २५० पानां मेरेन पळेलीं.

- राजस्थान हाऊसांत पदमभाई गेर.

**१ सप्टेंबर १९८६ दिल्ली**

- नॅशनल बूक ट्रस्टांत वचून प्रुफां हाडलीं.

-पब्लिकेशन डिविजनांत - चरित्राचे हस्तलिखीत दिवपाक.

**२ सप्टेंबर १९८६ दिल्ली- मुम्बय**

- विमानांत प्रुफां तपासली. सांजचे फ्लायिटीर भायर सरिल्लों.

**३ सप्टेंबर १९८६ मुम्बय - घरा**

- कृष्णान येवन मॉडेल दाखयलो.

- दनपारचे फ्लायिटीर घरा. विमानतळार शशिकला आनी गुरुदत्त - वर भर उलयलीं.

- घरा येवपाक टॅक्सीन २००/- घेतले.

**४ सप्टेंबर १९८६**

- कोंकणी अकादमीचे बसकेक. महाभारताचें म्हजें बजेट दिलें. ७५% ग्रांट दिवपाचें थारायलां.

- पुरो जालां.

**५ सप्टेंबर १९८६**

- सा. अ. ची. Adv. Board ची बसका.

- lexicography च्या सेमिनाराचें उद्‌घाटन.

डॉ. प्रमोद तेलिगिरी, डॉ. पट्टनायक, विलास सारंग, भालचंद्र नेमाडे, हातकलंगणेकर, अनिला दलाल - नव्यो वळखी.

- दत्तारामाक घेवन घरा.

**६ सप्टेंबर १९८६**

- सेमिनार

-सांजवेळच्या Translationच्या सेमिनाराक अध्यक्ष -

- फायच्यान 'जाग'

**७ सप्टेंबर १९८६**

- फकत न्हीद काडली. खूब पुरो जाल्लें आसूंक जाय.

- दनपरां भोलाचो लेख तपासून काडलो.

- N.B.T.ची प्रुफां तपासलीं. पत्रां बरयलीं.

- चन्दर केळेकार आयिल्लो.

आज चवथ.

**८ सप्टेंबर १९८६**

- सकाळी 'लोहिया' बरोवन बाला गावणेकाराक दिलो. 'कुळागरा'खातीर.

**९ सप्टेंबर १९८६**

- 'डाकघर' सुरू केलें कोंकणींत हाडपाक.

**१० सप्टेंबर १९८६**

- सकाळच्या आदेसाक डाकघर, दनपरां पणजे कों.अ.त. -

महाभारत ३०० रुपयांत विकचें

प्रकाशनपूर्व २०० अशें थल्लें.

**११ सप्टेंबर १९८६**

- जायराती खातीर पणजे -

गुरुदासाची बडबड खूब आयकली.

**१३ सप्टेंबर १९८६**

- मडगांवां - जायराती खातीर,

नानू मेळ्ळें.

- M. V. कामतीच्या भाशणाक भाई मावज्याच्या आग्रयाक लागून.

रात मडगांवां

**१४ सप्टेंबर १९८६**

- घरा सकाळीं

चंन्द्रकान्त केरकार

- डाक घराचे दोन आंक पुरे.

**१५ सप्टेंबर १९८६**

- शशिसाहेबांक पत्र.

गंधेक तार.

**१६ सप्टेंबर १९८६**

- 'डाकघर' पुराय केलें

'पाक्षेय' सुरू.

- बाबला बरोबर घरा - सुजूच्या वाढदिवसाक.

**१७ सप्टेंबर १९८६**

- गीतांजली. नैवेद्य.

**१८ सप्टेंबर १९८६**

- त्रिशतांवांचेर एक लेख बरयलो. राष्ट्रमता खातीर.

**१९ सप्टेंबर १९८६**

- कोंकणी भा. मंडळाचो ३० वेर रुप्यां महोत्सव सुरू जाता. त्या दिसा उद्घाटक म्हूण म्हाका आफयला... आं म्हळें. तकलेंत भाशण घोळूंक लागलें.

**२० सप्टेंबर १९८६**

- कुमुद आनी भावोजी आयल्यांत...

**२१ सप्टेंबर १९८६**

- आज कोण ना. आयतार रिकामो गेलो.

**२२ सप्टेंबर १९८६**

- रवीन्द्रनाथांचें एक आगळें रूप - जागा खातीर

**२३ सप्टेंबर १९८६**

- पणजे जायराती खातीर

**२४ सप्टेंबर १९८६**

- रवीन्द्रनाथांचें एक आगळें रूप - जागा खातीर पुराय -

**२५ सप्टेंबर १९८६**

- पणजे जायरातीं खातीर

**२६ सप्टेंबर १९८६**

- पणजे, त्रिशतांवांच्या अस्थिचीं प्राणप्रतिशठा.

- मनोहर मेळिल्लो, महाभारतांत 'भाष्य' नाका म्हणी.

- म्हज्या लेखान बरेच जाण दुखावले.

- आंक (जाग) पुराय केलो. आतां येवपाचे लेखः

शीला, सैल, नष्टनीड, अनिल आयलो, रवीन्द्रनाथ.

**२७ सप्टेंबर १९८६**

- दुयेंत. कफ भल्ला हड्ड्यांत.

**२८ सप्टेंबर १९८६**

- दुयेंत : कफ हड्ड्यांत.

- भाऊ काकोडकार आयिल्लो.

**नोट :**

'जागांचें काम पुराय जालें -

जायरातीं येतल्यो.

चंद्रकांताचें नष्टनीड येतलें.

अपेक्षाः सैलाची, शीलाची कथा, अनिलाचो लेख.

- लक्ष्मणरावाचेर बरोवंक पावलों ना. क्षमा मागूंक जाय. 'तोफात केम करे छे' कोंकणींत हाडूंक पावलों ना.

'पथिय' - फकत तीन कविता केल्या.

- आतां ऑक्टोबरांत जालां त्या महाभारता वयल्यान हात ओडपाचो.

**२९ सप्टेंबर १९८६**

- आयज मात्शें बरें दिसता

कलानंद -

रवीन्द्र वर्मा १ तारखेर येता ६ मेरेन आमगेर.

- तिवारी म्हूण प्रकाशन विभाग (भारत सरकार)च्या एका अधिकाऱ्याचें पत्र... 'अहिन्दीपण' काडूंक जाय म्हूण....

-Antiviolits घेवपाक सुरवात

**३० सप्टेंबर १९८६**

- मडगांवां - जायराती एकठांय केल्यो.

सांजचो भाशा मंडळाच्या उत्सवाक. २४ भर जावन आतां २५ वें लागलां. हांव खास निमंत्रीत. तळमळीन उलयलों. ४५ मिणटां, म्हाकाच भाशण आवडलें दुसऱ्यांकूय आवडलां जावंक जाय.

**१ ऑक्टोबर १९८६**

- मोहनदास बद्रीनाथाची यात्रा करून आयला. ताका मेळ्ळो आनी चंद्रकांता बरोबर वास्को - वाटेर.

खबरी : चंद्रकांत राष्ट्रमत सोडपाचो ना. साळगांवकार जें किंतें काडूंक सोदता तेंवूय आपल्याच हातांत दवरतलो.

- नानूक घेंवन घरा आयलों.

रवीन्द्र वर्मा आयलां. आमगेर उतर.

**२ ऑक्टोबर १९८६**

- रवीन्द्र वर्माचें मडगांवां भाशण - गांधी हो विशय. बरेंऽ उलयता.

- गोमंतकार कोंकणी मोगी नांव घेवन एक पत्र. महाभारताक ४ लाख रुपये अकादमी दिता म्हुण...

**३ ऑक्टोबर १९८६**

- मडगांवां : रवीन्द्र वर्माच्या दुसऱ्या भाशणाक.

**४ ऑक्टोबर १९८६**

- आज घराच रावलों. वर्माजीचें भाशण युनिव्हर्सिटींत आशिल्लें. गेलों ना.

- चा.फ्रा. आनी पुंडलीक आयिल्ले.

**५ ऑक्टोबर १९८६**

- दनपरां बांदोड्या कलानंदाच्या शिबिराक.

- सांजेची कृष्णा आनी कान्ता आयलीं.

**६ ऑक्टोबर १९८६**

- आज रवीन्द्र वर्मा दिल्लीक गेलो. खूब वर्सां उपरांत आमी परतून लागीं आयले.

- कृष्णा कान्ताक घेवन वास्को.

**७ ऑक्टोबर १९८६**

- भाऊ सरीं पणजे : महाभारत तुमीच छापात म्हूण सांगूंक गेल्लों. भाऊ घट्ट. तो थरलां तशेंच करप म्हणपाक लागलो.

महाभारताचे तिनूय खंड घेवन घरा आयलों. तपासपाक घेतले.

- कृष्णा कळंगुटे.

- 'जागा'ची मॅटर प्रशांता कडेन दिली, बेळगांवां पावोवपाक.

**८ ऑक्टोबर १९८६**

- महाभारता वयल्यान हात ओडपाक सुरवात.

**९ ऑक्टोबर १९८६**

- कृष्णा मडगांवां गेलें. फाल्यां दिल्लीक वता.

- अनिल यात्रा करून आयलो.

**१० ऑक्टोबर १९८६**

- कृष्णाक पावपाक मडगांवां

- नूरदीन - खूब तेंपान वचून मेळ्ळो.

**११ ऑक्टोबर १९८६**

- महाभारता वयल्यान हात ओडलो.

**१२ ऑक्टोबर १९८६**

- महाभारता वयल्यान हात ओडलो.

- मुम्बय २१ तारखेर वचचें अशें थारायलें महाभारताचें मॅटर घेवन.

**१३ ऑक्टोबर १९८६**

- महाभारताचे तीन खंड नाकात. दोन करचे वा सायज मोटी करून एकूच करचो अशें कितें कितें येवजलां.

- पयलो खंड तपासून जालो.

-ज्योत्स्ना आयिल्लें.

**१४ ऑक्टोबर १९८६**

- पणजे, भाऊ सरीं : २१ तारखेर वतां, चेक दी म्हूण मागूंक.

अनिलागेर

- वामन : साळगांवकार दैनीक काडटा.

**१५ ऑक्टोबर १९८६**

- इंदिरा दळवी. भाशाविज्ञान: अशोक केळेकराचें पत्र घेवन.

**१६ ऑक्टोबर १९८६**

- पणजे : नोवा गोवांत भाऊन मिटींक आपयल्ली. उदय, पुंडलीक, आपूण आनी हांव.

दैनिका संबंदान येवजुपा खातीर.

- उदया कडेन महाभारतां संबंदान.

**१७ ऑक्टोबर १९८६**

- घराच - साफसफाई कुडीची.

- कोंकणी अकादमी कडल्यान ६०,०००/- चो ड्राफ्ट मेळ्ळो.

- २२ ची मुम्बयची तिकेट आयली.

**१८ ऑक्टोबर १९८६**

- पुतुला सरींच दीस भर.

**१९ ऑक्टोबर १९८६**

- सुबोध -सविता आयिल्लीं.

**नोट :** अंदू थारायल्ले प्रमाण -

- दोन काका चरित्रां पुराय केलीं.

- डाकघर अणकारलें.

- महाभारता वयल्यान परतो हात ओडलो.

पुणून 'चीन' उरलें 'विवेकानंद' उरलो, 'म्हातारपणाच्या हुंबऱ्या वयल्यान' उरलें.

आतां -

नव्हेंबर, डिसेंबर महाभारतांत घालपाचीं 'भर' तयार करप. उरिल्लें १९८७ त करप.

**२० ऑक्टोबर १९८६**

- Goa Universityत, ओलिवीन्यु प्रोफसोर जालो

- वसंत धेंप्या कडेन -

**२१ ऑक्टोबर १९८६**

- रातचो उदय. कालच्यो दोनूय गजाली सांगल्यो.

**२२ ऑक्टोबर १९८६ मुम्बय**

- दनपारचे २.५० चे फ्लायिटीर मुम्बय.

- आपा.

**२३ ऑक्टोबर १९८६ मुम्बय**

- शीला - माधव बोरकार.

- कृष्ण करवार.

**२४ ऑक्टोबर १९८६ मुम्बय**

- 'चक्षुं'त - नवें ऑक्ल करपाक दिलें.

- महाभारतांतल्यो आडकथा तपासून काडल्यो.

- कृष्ण करवार - पयलो खंड घेवन गेलो.

**२५ ऑक्टोबर १९८६ मुम्बय**

- महाभारताचो दुसरो खंड तपासलो

- मराठी साहित्य संमेलना विशीं म्हज्या सर्कलांत हांगा कोणाक उत्साह ना.

नारायण आठवले मेळिल्लो. मराठीचो थाराव येतलोच म्हणी.

**२६ ऑक्टोबर १९८६**

- सगळो दीस घरा - महाभारताचो दुसरो खंड तपासलो.

- कृष्णाच्या फोनाची वाट पळेली. खूब पासियेस काडूंक जाय.

**२७ ऑक्टोबर १९८६**

- शीलाक घेवन प्रिन्सेस स्ट्रीट, फोर्ट, रेडियो...

ज्योतिन्द्र घेवचें 'रंगतरंग' घेतलें. तीन भाग.

महादेवभाईच्यो डायऱ्यो घेतल्यो. १८ मेरेन.

- नान सेवाग्रामच्यान आयलें.

**२९ ऑक्टोबर १९८६ मुम्बय**

- कृष्णा बरोबर प्रेसांत

अखेरेक उमाजी सायजींतूच छापचें अशें थरलें.

- दुसरो खंड कृष्णा घेवन गेलो 'जैतू'य.

*(मुखार चलता...)*



# भीमबैठकाच्या रानांत

संगीता सोनक

नीलान आपलें रॉकेट भीमबैठकाच्या रानांन वयर दोंगरार थांबयलें. फाटले कितलेशेच दीस तें हांगा येवपाचो विचार करतालें. पुण कशें येवपाचें तें कांय ठरना आसलें. थोड्या वर्सां पयलीं तें आयिल्लें तेन्ना हांगा आदीमानवान काडिल्लीं चित्रां पळोवन तें खूब खोशी जाल्लें. हांगा परतें येवून सगळ्या चित्रांचो सारखो अभ्यास करपाचो अशें थारावन तें परत गेल्लें. पूण हो अभ्यास कसो करपाचो, किदें करपाचें तें थारावप सोंपें नाशिल्लें. कांय वर्सां पयलीं वेळांत फाटीं वरपी असली टाईम मशीन रॉकेटां मनीस तयार करूं शकत आनी मनशांक शेंकड्यांनी वर्सां फाटीं वचूक मेळत हें कोणाक खरें दिसचें नाशिल्लें. पूण आज तें खरें जालां.

भीमबैठका गांव मध्य प्रदेशाच्या रायसन जिल्ल्यांत भोपाळच्यान ५० कि.मीटरार आसा. हांगाच्या खुबश्या फातरांनी व्हडल्यो व्हडल्यो गुहा केल्ल्यो आशिल्ल्यान हांगा पांडवांच्या भीमाची बसपाची जागो आसतलो अशें हांगाचे लोक मानपाक लागले. म्हण हे सुवातेक नांव भीमबैठका, भीमाची बैठका अशे पडले. कितलींशींच वर्सां हें थळ कोणाच्याच नदरेक पडूंक नाशिल्ले. १९५७ सालान भौ. विष्णु वाकणकर हांणी हें थळ पळयलें आनी हें थळ आनी हांगा राविल्ल्या मनशांचेर सोद सुरू जालो. एक लाख वर्सां सावन वेगळ्या वेगळ्या वेळार वेगळ्या वेगळ्या मनशांची वसणूक हांगा आशिल्ली अशें तांणी सोदून काडले. खूब यत्न करतकच २००३ ह्या वर्सा भीमबैठकाक जगाची 'हेरीटेज सायट' म्हणून युनेस्कोन मान्यताय दिली.

भारतांत आदिमनीस सुमार एक लाख साठ हजार वर्सां पासून आसा अशें नीलान वाचिल्ले. नीएंडरथाल पासून वेगळ्या वेगळ्या काळान वेगळ्या वेगळ्या सुवातींनी ह्या मनशांनी वसणूक केल्ली. भीमबैठकाच्या रानांत रावपी हे लोक मात आमचे बशेनच, म्हणजे आयजच्या मनश्या सारखे 'होमो सेपीयन्स सेपीयन्स' आशिल्ले.

आज नीला ह्या सुवातांचो अभ्यास करपाक एकविसाव्या शतकांतल्यान कितलीशींच वर्सां फाटीं आयलें. तीस हजार वर्सां पयलीं मनशां हांगा कशीं रावतालीं, कितें खाताली, एकामेका कडेन कशी वागतालीं, दिस भर कितें करतालीं हें सगळें नीलाक शिकपाचे आसलें. भीमबैठकाच्या ह्या दोंगरार एक लाख वर्सां पयलीं पासून वेगळ्या वेगळ्या काळान सतत मनश्यांची वसणूक आशिल्ली अशे कांय पुरावे सांगतात. नीला आता तीस हजार वर्सां फाटीं येवून तांच्या मदी रावून तांचो अभ्यास करतलें.

भीमबैठकाच्या ह्या रानांत आदीमनशांची एक व्हडली टोळीच आशिल्ली. दोंगरार आशिल्ल्या खडपांनी ताणी आपली घरां केल्लीं. एका एका घरान थोडीं थोडीं मनशां रावतालीं. घड्ये एक एक कुटूंब रावताले जावयें, नीलान चितले. हांच्या मदी रावून तांचो अभ्यास करप हें कठीण काम आता ताका करपाचे आसले. हे लोक आपल्या कडेन कशे वागतले, तांची भास, तांचे वागप आपल्याक कळटले काय ना अशे कितलेशेच प्रस्न नीलाक पडिल्ले, पूण ह्या प्रस्नांच्यो जापो हांगा आयल्या शिवाय कश्यो मेळटल्यो? शेवटाक नीलान हांगा येवून ह्या आदीमनशांचो सोद घेवपाचो थारायले आनी आज तें हांगा पावलें.

नीला एका खडपा वेल्या घरा कडेन गेलें. तातूंत तीन मनशांचे एक कुटुंब रावतालें. आवय, बापूय आनी तांचो एकच चलो. थोडे दीस तांच्या मदी रावून नीलाक कळ्ळे, थंयचे लोक तांका 'मो', 'पो' आनी 'डा' म्हणताले. कळपाचो म्होरक्या 'ता' नांवाचो एक जाण्टेलो आशिल्लो. तो आनी ताच्या बरोबर रावपी 'बा' दोगांय मेळून कळपाक मार्गदर्शन करतालीं. सकाळ आशिल्ल्यान चड्शे दादले भायर गेल्ले. नीला दोंगरार आशिल्ल्या ह्या वसणुकीन भोंवपाक गेलें. वस्तीच्या तोंडार, भितर सरतनाच एक व्हड गुहा आशिल्ली. थोड्या दिसांनी नीलाक कळ्ळे, थंय सगळे लोक जमून म्हत्वाचे निर्णय घेताले.

'मो' आनी 'पो', दोगांयकूय हांगा खूब आदर आसलो. मागीर नीलाक कळ्ळे, की मो एक दोन कवड्यांचो दोरार गुंतिल्लो हार गळ्याक घालताली. फाटी केन्ना तरी दर्यादिगेर पावली आसतना पोक एक सुंदर कवडी मेळिल्ली. ती ताणें मोक दिली. थंय मेळिल्लो एक शंखय ताणें हाडून आपल्या घरात दवरिल्लो. दुसरी कवडी दर्यादिगेर रावपी एका दुसऱ्या कळपांतल्या मनशा कडल्यान पोन मागून घेतिल्ली. बदल्यान पोन त्या दर्यादिगेर रावपी मनशाक दोन उजो पेटवपाचे फातर दिल्ले. एका ल्हान फातराची मोन सूय केल्ली आनी रानांतल्या वेलाच्या दोरांन गुंथून त्या कवड्यांची गळ्यांत घालपाक एक माळ केल्ली. ती गळ्यांत घालून मो सगळ्याक नेटान मिरयताली. कळपाक एकठांय करपाचे आसल्यार पो मोठ्यान शंख वाजयतालो. खास बसका घेवपाक राखून दवरिल्ल्या सुवातेर जमून सगळे कितें

करपाचे तें थारायताले. ता मात्सो वयल्या फातराचेर बसतालो. ताच्या शेजाऱ्याक बा बसताली. ता माथ्यार मोरांच्या पिसांची, वेलांच्या दोरार केल्ली तोपी मुकुट कशी घालतालो. त्या तोपयेर कोल्याचे दांत लायिल्ले. ता आनी बा दोगांच्या गळ्याक हत्तीच्या दांतां पासून केल्ल्या मणयांची माळ आशिल्ली. ता आनी बा दोगांय मेळून सगळ्यांची खबर घेताली. सगळ्यांक मार्गदर्शन करताली.

दनपार जायत आयली तशें थोडे थोडे लोक गट-गटांनी येवपाक लागले. एक एक गट रानांतल्यान पुनावन हाडिल्ल्यो वस्ती, म्हणजे फळां, कंदमुळां, मोंव हाडून मदी दवरपाक लागलो. एका गटांतल्या कांय मनशांनी एक हरण मारून हाडिल्ले. ते हरण तांणी व्हडल्या गुहे भायर दवरलें. थंय सुकीं लाकडां, बड्यो आनी वयर सुको सळसळीत झाडांचो पालो घालून जळोवपाचो दाळ केल्लो. थोड्या बायलांनी येवून दोन फातर एकामेकाचेर आपटून त्या दाळाक उजो लायलो. त्या उज्यान हरण उडोवन तें भाजले. मागीर एका धारेचे तोंक आशिल्ल्या फातरान तें कातरून ताचे धाकटे धाकटे कुडके केले. नीलान असलीं फातरांची अवजारां भोपाळच्या संग्रहालयान पळयल्लीं. सगळ्यांक एकठांय करपाक पोन मोठ्यान शंख वाजयल्लो. थोड्या वेळान सगळ्या लोकांनी मेळून ते हरण खालें. फळां आनी हेर खाण खावपाकय तांची एकी आशिल्ल्ली. जण एकल्यान आपल्याक जाय तितलें घेतलें आनी खालें. खावून जातकच सगळे ल्हान ल्हान गट करून उलोवपाक, खेळपाक लागले. हो तांचो सदचो कार्यक्रम आशिल्ल्लो.

एक दीस खबर आयली, कळपांतल्या एका भुरग्याक रानांत गेल्लो आसतना वाघान ओडून व्हेलो. ताका सोडोवपाचो यत्न करतना 'इंगा' नांवाच्या आनीक एका मनशाक बरोच मार बसलो. तोवूयबी खूब जखमी जालो. इंगाक बाकीच्या लोकांनी उखलून थंयच्याच झाडाच्या एका तुटील्ल्या फळयेर घालून हाडिल्लो. एका बायलेन ताच्या आंगाक जाल्ल्या घाव्यांचेर झाडांचो पालो लायलो. पिवपाकूय कसलो तरी रस दिलो. झाडांची पाळां-मुळां फातरार घासून लेप तयार केलो आनी परत ताच्या आंगाक लायलो. ही बायल हांगाची वैजीण जांवये, नीलाक दिसलें. पूण इतलें सगळें करूनूय इंगा थोड्या दिसांनी सर्गेस्त जालो. इंगाक हे लोक वाचोवंक शकले ना.

इंगा मेलो म्हण सगळ्या कळपाक पोन शंख वाजोवन कळयलें. शंख वाजोवन खबर कळोवपाचें वा सगळ्यांक एकठांय करपाचें काम पो कडेन आशिल्ल्ले. मेल्ल्या लोकांक हांगा कितें करतात काय? नीलाक प्रस्न पडलो. पूण रोखडेच हो प्रस्न सुटलो. ताका जाप मेळ्ळी. दोगां मनश्यांक एक फोणकूल काडतना पळोवंन नीलाच्या लक्षांत आयलें, हें इंगाक पुरवपाक खणलां. सांज जावपाक लागली तशें पोन परत शंख वाजयलो. एक एक करून सगळे जमपाक लागले. सगळे येतकच मोन एक ल्हान भाशण दिले. मागीर पोन झाडाच्यो ताळयो घेवून इंगाच्या आंगार भोंवडायले आनी कसले तरी मंत्र म्हणले. "म्हणजे हो हांगाचो घाडी दिसता! हे लोक घाडपणाय करताले तर" नीलान चिंतले. पोले घाडपणा जातकच, सगळे मंत्र म्हणून सोंपतकर सगळ्यांनी व्हडल्या आवाजान थोडो बोवाळ घालो. मागीर चार जाण फुडें सरले. तांणी इंगाक उखल्लो आनी त्या फोणाऱ्यांत दवरलो. ताच्या म्हाऱ्यात थोडीं फळां दवरलीं. सगळ्यांनी मेळून ताका पुरयलो. हें सगळें पळोवन नीलाक खूब अजाप जालें. तीस हजार वर्सां पयलीं आदीमनश्यां मेल्ल्या मनशांक अशी क्रिया करून पुरतालीं हें ताणें पुस्तकांत वाचिल्ले, पूण ताका विस्वास बसनाशिल्ल्लो. आज तें आपल्या दोळ्यांनी हें सगळें पळयतालें.

दुसऱ्या दिसा नीलान पळयले एकठो मनीस झाडाचेर चडून ताळयेर बसून फातराच्या भितर चितारतालो. दनपारच्या पारार चित्र स्पश्ट जालें तेन्ना नीलाक कळ्ळे, ताणें एक वाघ एका मनशाक मारता अशें चित्र काडलां. सांजच्या पारार ताणें त्या फातरांचेर कितलेशेच रंग तयार केल्ले. तांबडे मातयेचो तांबडो रंग आनी थोडोसो केसरट हळड्वो रंग, पांचव्या फातरांचो पाचवो रंग, चुन्याचो धवो रंग, अशे तीन - चार रंग ताणें उदकांत तयार केलें. झाडांचो दीक, पयलीं एकठांय करून दवरिल्ली जनावरांची चरबी आनी कांय फळांचे गोम त्या रंगांत घालून, मीश्र करून ताणें आपणें काडिल्लें चित्र पितारलें. दुसऱ्या दिसा ताणे आनीक एक चित्र काडलें. हें चित्र इंगाक पुरतना केल्ल्यो क्रिया दाखयतालें. हें चित्र ताणें तांबड्या रंगान पितारलें. "हूं, म्हणजे हीं सगळीं चित्रां अशीं रंगयल्यात तर." नीला आता त्या चित्रां कडेन वेगळे नदरेन पळोवंक शिकलें.

फाटल्या एका खडपार व्हडलो रानदुकर एका मनशाक मारता अशें चित्र पितारिल्लें. नीला विचार करूंक लागलें. ह्या लोकांची जीण कितली कठीण. रानटी जनावरां परस हांची शक्ती कमीच आसा. पूण सगळीं मेळून रावलीं जाल्यार जनावरां पासून आप-आपल्याक राखपाक शकतात. सगळे मेळून रानटी जनावरांक मारपाक शकतात. जनावरांक मारपाक फातरांचे कितलेशेच बाण तांणीं केल्ले. ता आनी बा तांकां सदाच एकठांय दवरपाक खूब यत्न करतालीं. जनावरांच न्हय, भायल्या हेर कळपां कडेनय तांची केन्ना केन्नाय झगडीं जातालीं. असलीं चित्रांय नीलान फातरांचेर पळयलीं.

नीला विचार करतालें, चार पांय सोडून दोन पांयांचेर उबे रावपाक हांकां कितलो त्रास जाला आसतलो? आज सुमार सत्तर हजार वर्सांनी आमी मनीस म्हणून तयार जाल्यात. पूण सुरवेक 'होमो सेपीयन्स सैपियंस म्हणून जमनीर रावप, माकडपण सोडून वेगळे तरेची जीण जगप, रानटी जनावरां कडेन झगडपाक एकठांय जावप आनी ह्या एकजूटी खातीर, ती एकजूट राखपा खातीर एक मुखेली नेमप हें सगळे खूब कठीण जालां. हें सगळें ह्या धतरेर पयले फावटी घडतालें. खंयच्याक जनावरान तकलीं वापरून अशें करूंक नासतलें. जनावरां एकठांय रावतात, एकजूट करतात, पूण तांचे गट ल्हान ल्हान आसतात. मनशां बशेन इतले व्हड गट करप, तांकां सगळ्यांक एकठांय दवरप बाकीच्या जनावरांनी हाच्या पयलीं केन्नाच करूंना. मनीसजातीच्या यशाचे कारण घड्ये हेंच आसत.

इतले दीस हांगा रावून नीलान खूब पळयलें, तें ह्या लोकां बद्दल खूब शिकलें. भास कळनासतना सुद्धा ह्या लोकांनी कुरवांनी ताका सगळें सांगलें. तांच्या बरोबर इतले दीस हांगा मोगान वावर केलो. आता नीलाची परत वचपाची वेळ आयली तशें ताका खूब वायट दिसपाक लागलें. ह्या लोकांक तें परतून केन्ना मेळूंक पावचें ना. पूण हांगाच्यो यादी मनांत सदाच उरतल्यो.





# 'भारत' हो देश 'प्रजासत्ताक' काय 'राजसत्ताक'?

उदय देशप्रभू

आनीक एक वर्स उदेला. आनीक एक नवो 'प्रजासत्ताक दीस' व्हडा नेटान मनयलो. उमेद सदां बशेनूच. उत्साहा वांगडा धुमशाणाय आसात.देशभक्तीचे नाटक तर जाताच, ते भायर ताचे वांगडा 'राष्ट्रवाद' हो नवो खेळ कांय जाण खेळपाक लागल्यात. मुळांतूच हो उत्सव मोगी देश, सरसकट सगळे सण वेळ आयल्यार रीण काडून व्हडा नेटार मनयता. ताका लागून एक मात जाता, कांय दीस कांय जायना त्या त्या उत्सवाची एक धुंदी लोकांच्या तकलेंत उरतां. सद्दा उठून सतावपी कटकटींचो कांय काळ विसर पडटा. वास्तवांत भोंवतणी पेटिल्लो उजो कांय काळ नदरेआड वता . ताचो जाळ लागना. पूण हालींच्या दिसांनी सणासुदीचे मनोवप चड आनी चड विकृतीच्या वाटेन वता. 'प्रजासत्ताक दीस' सारक्या राष्ट्रीय सुवाळ्या बाबतींतूय हेंच नदरेंत भरता. ह्या दिसा फाटलें गांभीर्य आनी ताची गरज हाचो आमकां विसर पडत चल्ला. खरें म्हणल्यार, स्वतंत्र भारताच्या इतिहासांतल्या नव्या लोकशाय युगाचो पयलो दीस म्हणून लोक जैताचो हो उत्सव आमी मनयतात. भारतीय राज्य घटनेंत आमकां नागरीक म्हणून कांय हक्क फावो करून दिल्यात. धर्म-जात-रंग-लिंग ह्या सगळ्या गटाक एक सारको हक्क दिला, निपक्षपाती समान भारतीय नागरीकत्व फावो करून दिलां. पूण आयज सत्ताधीशां कडल्यान त्याच घटनेंतल्या मुळाव्या तत्वांचो घुस्मटमार जावंक लागला. हें उक्तेपणी दिसपाक लागला. आमचे मदी अशे तरेच्यो असूर संघटनां तयार जावपाक लागल्यात. जांकां घटनेन नागरीकांक दिल्ले हे हक्क मान्य नात. ह्यो संघटना स्वताक तथाकथीत संस्कृती रक्षक म्हणून घेतात. आनी ते संस्कृती रक्षणाच्या नांवान लोकांच्या नागरीक हक्काचेर घुरी घालतात. तांच्या आड येवपी समाजीक फुडारपणाक धमक्यो दिता. ह्या असूर संघटना आड झुजपी फुडाऱ्यांक दिसा उजवाडांत हें संस्कृती रक्षक म्हणून घेवपी तर राक्षस जिवेशी मारून उडयतात. जाल्यार कांय विकृत धर्म फुडारी कांय समाजीक फुडाऱ्यांची बदनामी करून तांका लजेक घालून, आत्महत्या करपाक भाग पाडटात. लोकशायेचो आधारवड म्हूण मानतात त्या न्याय यंत्रणेंतल्या म्हत्वाच्या घटकांक न्यायाधीशांक आपल्याचेर सत्ताधीशांचो शेक आसा म्हूण तांच्या वावरांत घुस्मटमार जाता अशी कागाळ करपाचो वेळ येता. देशाचो कारभार सांबाळपाक सत्तेर बशिल्ली राज्य व्यवस्थाच जर लोकशायेक किर्कोत करून आपल्याक जाय तशीं धुमशणां काडपाक लागत आनी लोकांक आपल्या तालार नाचोवपाक लागत जाल्यार सत्ताधीश लोकशायेचो खून करपाकूच सत्तेर बशिल्ले आसात अशें म्हणचे पडटा. अजापाची गजाल म्हटल्यार हें इतलें सगळें अराजक उगते पणी घट्टा आसतनाच सुशिक्षीत म्हणून घेवपी मध्यम वर्गांतल्या लोकांक हाचें कांयच सोयरसुतक लागना. इतलो हो समाज अमानूश जाला. ही बधिरता ह्या समाजांत कित्याक लागून आयल्या आसत? खऱ्यानीच आमी लोकशायेक नालायक आशिल्ल्यान लोकशायेच्या नांवान सत्तेर बशिल्ले सत्ताधीश जनतेचे हे नालायकपण सिद्ध करपाक लागून लोकांच्या नाड्यार 'हुकूमशायेचो' खेळ नाचोवन दाखयतात? सुशिक्षीत म्हणून घेवपी ह्या समाजाची बुद्द इतली घाणाक पडल्या, सरभोंवतणी पसरपी उज्याची धगूय तांकां लागना जाल्या. लोकशायेच्या नांवान सत्तेर आयिल्ले हे सत्ताधीश धार्मीक संघटणेक समाजांत धुमशाणां कांडपाक तेंको दितात. धर्म जातीं मदीं दुस्मानकाय निर्मून समाजांत फूट घालपाक वावुरता. अशा वेळार एक जाणविकाय आशिल्लो नागरीक ह्या नात्यान आमची समाजीक जाबसालदारकी चड येता. हाचे भान जाका ह्या उत्सवाच्या मनोवपा वेळार जाता ताकाच आमच्यान ह्या देशाचो देशभक्त, नीज नागरीक म्हणू येता. हो सरकार जो असूर संघटणांक तेंको दिवन समाजा मदीं फूट घालून हो देश उध्वस्त करपाचो यत्न करता तो सरकार 'देशद्रोही' आसा अशें म्हणचे पडटा.

संपर्क : 9551955523

# 'सावुलगोरीं'तले वेळुस्कारी शब्दाविश्कार

डॉ. राजय पवार



रमेश भगवंत वेळुस्कार हांचो 'सावुलगोरी' हो कविता संग्रह १९८९ वर्सा अपुरबाय प्रकाशनान उजवाडाक हाडलो. ह्या संग्रहांत १९७५ ते १९८७ मेरेनच्या काळांत रचिल्ल्यो कविता आस्पावल्यात. संग्रहांतली पयलीच कविता अशी आसा:

*'हें एक झाड*
*ह्या झाडाचेर*
*आयलीं शेवणीं*
*आयलीं शेवणीं*
*उडोन गेलीं*
*ह्या उडपाचीं*
*झाडाक जाल्यां*
*कूड पोखरपी दुखणीं'*

२१ ऑक्टोबराक हे काव्योक्तेची प्रत्यक्ष प्रचिती जाणवली. कोंकणी काव्यरूखा वयल्यान सदां खातीर उडून गेलें नादमधूर शेवणें... आनी काव्य रसिकांच्या वांट्याक आयलें कूड पोखरपी दुखणें! वेळुस्कार हो संवसार सोडून गेले, पूण तांचो काव्यात्मो मात शब्दरुपांतल्यान सदांकाळ आमकां भेटत रावतलो. 'सावुलगोरी' ह्या संग्रहा भायर कोंकणी कवितेक तांणी *मोरपाखां, माती, आंगणी नाचता मोर मोरया, हिरण्यगर्भ, तनरजोती, दर्या, मळबकळी* हे कविता झेले दिले. हाचे भायरूय तांणी बालगितां, नवलिका, निबंद आदी प्रकारांतल्यान लिखाण केलें. मात साहित्य अकादमी पुरस्कार जोडपी वेळुस्कारी शैलींतल्या 'सावुलगोरी'ची खासियत आगळीच थरता.

बाकीबाब बोरकारांनी कोंकणी कवितेक दिल्ली छंदबद्धताय आनी नादमयता प्रभावीपणान कोणेंय मुखार व्हेल्या आसत जाल्यार ती रमेश वेळुस्कार हांणीच. ह्या दोनूय कवींनी मराठींतल्या अभंगांचो बऱ्याच प्रमाणांत अभ्यास केल्लो आसूंक जाय. छंदबद्ध उतरां आनी खास करून अक्षरछंदाचो प्रभाव तांच्या रचनांचेर जाणवता. वेळुस्कारान हे छंदबद्धतायेचो 'टच' आपल्या कवितांक दितना सर्जनशील यत्नांतल्यान खाशेले 'शब्दाविश्कार' केल्ले पळोवंक मेळटात. वेळुस्कारी छाप आशिल्लें हें शब्द-नियोजन 'सावुलगोरी' ह्या रुपकपात्मक काव्याविश्कारांत फिट्ट बसता. कवी वेळुस्कार 'काळी-सावळी' वा 'गोरी-सावळी' ह्या प्रचलीत नांवांची रचना भायरावन 'सावळी' ह्या उतरांतलें उरिल्लें सुरिल्लें रुक्षपण पुरायपणान निवळावन त्या उतराचो 'सावूल' असो पुनर्बारसो करतात. ह्याच शब्दाविश्कारी यत्नांतल्यान वेळुस्कार वेगळे आनी प्रयोगशील थरतात.

उतरावळीचे बाबतींत नवो आविश्कार घडोवप हो जरी पदय रचनेचो एक अंतर्गत घटक आसलो तरी, वेळुस्कार गदय लेखनांतूय असोच शब्दाविश्कार घडयतना नदरेक पडटात. *'गा आमी राखणे'* ह्या पुंडलीक नायकाच्या काव्यसंग्रहा खातीर बरयिल्ल्या लेखांत हाच्यो जायत्यो पती मेळटात. ते बरयतात. *'हे पिळगेंतले प्रकाश पाडगांवकार, माधव बोरकार, रमेश वेळुस्कार, एन. शिवदास बी अशे हे गर्भगिरेस्त साहित्यीक.'*[1] तशेंच ते मुखार म्हणटात, *'हें चैतन्यकेण, आमच्या बराबरच्या सगळ्याच जाणिवपूर्वक बरोवपी लेखकांमदीं पळोवपाक मेळटालें.'*[2] ह्याच लेखांत मुखार जायते कडेन *'स्वरतंद्री, सर्वस्पर्शी, विश्वरंग, पारजती देंठाळ दोकलां'*[3] अशी उतरसंपदा वापरिल्ली दिश्टी पडटा. ही खाशेली वेळुस्कारी शैली. ही शैली काव्य प्रकारांत चड प्रभावीपणान व्यक्त जाता. 'सावुलगोरी' हो संग्रह ते नदरेंतल्यान देखुनच चड महत्वाचो दिसता.

**छंदबद्ध उतरनिर्मणी:** मुक्तछंद आनी छंदबद्ध अशे मुखेल दोन काव्यप्रकार आसले तरी दोनूय कडेन छंदांचो आसपाव आसताच. एके कडेन छंदांच्या बंदनां कडल्यान मुक्तताय लाबिल्ली आसता जाल्यार दुसरे कडेन तें काटेकोरपणान पाळचें पडटा. वेळुस्कारान मुक्तछंदांतल्यानच काव्यनिर्मणी करतना छंदाचें बंदन पाळून तशे तरेची उतरनिर्मणी केल्या. छंदात्मक उतरांची निर्मणी आनी अक्षरछंदात्म मांडणी ह्या दोनूय घटकांक वेळुस्कारान काव्यनिर्मणेचे प्रक्रियेंत महत्व दिलें. छंदात्म उतर निर्मणेचे नदरेन तांणी निर्माण केल्ली खाशेली उतरावळ ही कोंकणी भाशेची गिरेस्तकाय म्हणपाक जाय. हें करतना तांणी कोंकणीच्या बोली रुपाचेर चड भर दिलो. लोककाव्यांतूय हेंच तत्व सांबाळिल्ल्यान तें साहित्य अज्रंवर जालें. खंयचेय भाशेंतलें अज्रंवर लोकसाहित्य हें ते ते भाशेंतल्या बोली रुपाच्या वापराचो 'आउटपूट'. वेळुस्काराची कविता मुळांतूच लोककाव्याच्या आंगणांत भोंवून आयिल्ल्यान हांगा ताचो प्रत्यय उतरा कणकणीं दिसता. कोंकणी कवींच्या देशी परंपरे कडेन आशिल्ल्या नात्याचेर भाश्य करतना माधव बोरकार म्हणटात, *'यंत्रयुगांतल्या मनशांची अध्यात्मीक अवस्था, शारिकरणांतल्यान उप्राशिल्ले प्रस्न हो प्रकाश पाडगांवकाराले कवितेचो आशय तर रमेश वेळुस्कारान कोंकणी लोककाव्य आनी संगीत आपले कवितेंत वापरिल्लें दिसता.*[4] लोककाव्य आनी लोकसंगीत हांच्या प्रभावान लोक भाशेचो हुंकार तांचे जिबेर आपसूंक घोळपाक लागलो. देखूनच 'लोक भाशीक आंगाची झालर आशिल्ली शब्दकळा ही वेळुस्काराचे कवितेची कूड जाल्यार लोकसंगीताची धून आनी लय तांचे कवितेचो आत्मो' अशें विधान करप चड योग्य दिसता.

कोंकणी बोलींत सावन, सून, साकून ही एकाच अर्थाचीं विभक्तीं कुसां. हातूंतल्या 'सून' ह्या कुसाचो नकसूद वापर ते आपले कवितेंल्यान करीत आयल्यात. हाका लागून तांचे कवितेक लोकधून फावो जाता. देखीक:

*'ह्या झाडाचें*
*न्हेसण सुटलां*



*हींव सरतसून*
*ह्या झाडाचें*
*आंगूय फुटलां*
*नदर धरतसून'* [५]

हांगा 'सरतसून' आनी 'धरतसून' हीं उतरां काव्याक एक ठेको फावो करतात. ह्या उतरांक लागून कवितेक अक्षरछंद तर फावो जाताच ते भायर मात्रा बद्धताय लेगीत फावो जाता. हाचेर सविस्तर स्पश्टीकरण मुखार आयलां. 'सून' हें कूस काडून ते सुवातेर सावन, साकून हीं विभक्तीं कुसां आपणायलीं जाल्यार संगीतीक ठेक्याचे नदरेन 'रसभंग' जाल्ले वरी दिसता तेच बराबर काव्यांतली नजाकतूय शेणिल्ले वरी दिसता. हो छंदात्म आविश्कार तांचे कवितेक हेरां परस वेगळी थरयता.

तांचे सारको छंदात्म विचार करपी कोंकणींतलो पयलो कवी म्हणल्यार बाकीबाक बोरकार. बाकीबाबाची परंपरा मुखार व्हरतना वेळुस्कारान एक पावल मुखार घालून कांय आगळे-वेगळे शब्दप्रयोग केले. आपले कवितेंत छंदात्म आविश्करण करतना वेळुस्कार केन्ना केन्ना स्वरांचीय अदला बदल करता. ह्या प्रयोगांतल्यान तो कवितेची नजाकत वाडयतनाच तातूंतले उतरावळीक अदीक शिरंगारायता.

*'आतां रातीचें*
*उबें झाड हें*
*पुरवं पुरवंता*
*वाटेन वयतल्या*
*वाटसराचेंय*
*मन भिश्टायता'* [६]

हांगा 'परवंता' आनी 'वाटसुरो' ह्या कोंकणींतल्या प्रचलीत उतरांचो वापर जाला. पूण वेळुस्कारान ह्या उतरांचेर 'स्वरांची अदला बदल' करपाचो प्रयोग केला. 'वाटसुरो'तलो 'उ'कार ताणें 'परवंता' ह्या उतराचेर उपकारावन 'पुरवंता' हें उतर निर्माण केलां. जाल्यार 'परवंता' ह्या उतरांतलो 'अ'कार ताणें 'वाटसुरो' ह्या उतराचेर उपकारावन 'वाटसरो' अशी उतर निर्मणी केल्या. छंदात्म नदरेंतल्यान विचार करून शब्दविश्कारांचे प्रयोग करपी कवी म्हण तांचें हें योगदान साहित्याच्या अभ्यासकांचे नदरे आड उरलां.

उतरांच्या अर्थाक मतींत घेवन ताणी 'सावुलगोरीं'त जायते सफळ प्रयोग केल्ले मेळटात. ते निखटे अभिप्रेत अर्थाच्या उतरांचेंच नियोजन करनाशिल्ले तर त्या त्या भावार्थांतली नाजूकसाण, मोवसाण, खरसाण मतींत घेवनच शब्दांचें आविश्करण करताले. देखीक: शेवणें फळ 'कोंचयता'. हातूंत चोंच मारुन फळ खावप वा फळ पोखरप हो अर्थ आसपावता आसलो तरी तातूंत 'चोंचावप' वा 'चोंच मारप' ही दुर्भावनाय आसपावता. अशा वेळार कवी 'कोंचावप'चे बदला 'कोंकावप' ह्या उतराचो वापर करून अपेक्षीत आशिल्ली अर्थाची मोवसाणूय सांबाळटा. तेच वांगडा हो शब्दाविश्कार यमक जुळोवणेचे नदरेनूय 'पिकयलां' ह्या उतराक फिट्ट बसता.

*'फळान फळ*
*ह्या झाडाचें*
*ह्या चोंचींनी*
*अशें कोंकयलां*

*पानान पान*
*ह्या झाडाचें*
*ह्या सुकण्यांनी*
*अशें पिकयलां'* [७]

'सावुलगोरी' हें एक रुपक. हांगा सैमाचें मानवीकरण जालां. ही सावुलगोरी कवीच्या मना-काळजांत घर करता, ताच्या मनांतले उमाळे फुलयता, काळजाक घुंगरां बांदता... हें अस्तुरेचें सैमीकरण काय सैमाचें अस्तुरीकरण हें समजप कठीण जाता इतलो जबरदस्त शब्दाविश्कार हांगा मेळटा. तिचे सोबीत सुंदर दोळे आनी 'उगड-धांप' करपी पापण्यो पळोवन कवी आकर्शीत जाता. ह्या आकर्शणांत केन्ना 'पुरायपणान दिपोवन' वचपाचो जाल्यार केन्ना 'दाखय-लिपय' करपाचोय खीण आसपावता. ह्या दोनूय अर्थांक छंदात्म जोड दिवन कवी 'लिप-दीप दोळे' अशी शब्द रचणूक करता. कवी म्हणटा,

*'...सावुलगोरीचे*
*लीप-दीप दोळे*
*म्हज्या सर्वांगाचेर*
*कळे उमाळे...'* [८]

हांगा 'लीप-दीप' ह्या जोडशब्दाक 'लिपप' आनी 'दिपप' अर्शी अर्थांगां आसात. म्हणल्यार 'दिसप आनी दिसप ना' असो उगड-धांप प्रक्रियेचो हो शब्दाविश्कार. तेच बरोबर 'लीप' म्हणल्यार पुराय, आख्खें, सगळें असो लोकपरंपरेतलोय अर्थ मतींत घेतल्यार 'पुरायपणान दिपोवन' वचप अशीय प्रक्रिया ह्या शब्दार्थांत आसपावल्या. हांगा छंदात्म नदरेन पळयल्यार 'ईअ-ईअ' असो स्वरानुप्रास वापरून उतर निर्मणी घडयल्या. कवी आनीक एके रचनेंत 'फूल-भूल' ह्या उतरांचें नियजनूय तेच नदरेंतल्यान करतना जाणवता. हांगा 'फुलोवपी' आनी 'भुलोवपी' ह्या अर्थांगाचे भायर 'फुलाक भूल घालपी' अशेंय अर्थांग आशिल्ल्याचें पट्टा. कवी म्हणटा,

*'गोड उलोवणी*
*मन भुलोवणी*
*शेवणीं*
*ह्या उलोवण्यांची*
*फूल-भूल गाणीं...* [९]

वयले देखींतूय 'ऊअ-ऊअ' अशा स्वरानुप्रासाचो वापर करून जाल्ली शब्द निर्मणी वेळुस्काराच्या काव्यांतलें छंदात्म आंग दाखोवन दिता. नव शब्दाविश्कार घडयतनाच बांदावळींतलें छंदात्म आंग सांबाळपाची कुशळताय कवी दाखोवन दिता. केन्ना केन्ना जोड उतरांच्या आदारान जाल्यार केन्ना जोड उतरांची 'संधी' घडोवन ही कुशळताय तो मुखार व्हरता. इल्ल्या-इल्ल्या ह्या जोड उतरांची

'संधी' घडोवन वेळुस्कार 'इल्ल्याल्या' हो शब्दाविश्कार घडयता.

*'वाऱ्या वाऱ्या*
*म्हजीं पानां सळसळाय*
*म्हज्या तेंगशांचेर*
***आयल्ल्या इल्ल्याल्या** कोमऱ्यांक*
*कुरू कुरू कानां शिकय...'*[१०]

हो शब्दाविश्कार घडयतना कवी 'आयिल्ल्या' ह्या प्रचलीत उतराचेंय रूप बदलावन 'यि' अक्षरांतलो 'इ' स्वर वर्ज्य थरयत थंय फकत 'अ'स्वर दवरून 'आयल्ल्या' ह्या उतराची निर्मणी करता. परत बोली परंपरेंत 'आयल्लें' हें उतर चालंत आशिल्ल्यान तें उखलापेंय दिसना. कवी उतरांची वेंचणी करतना अर्थाच्या गाभ्या मेरेन वचून ताचें योग्य नियोजन करता. दुसरे एके कवितेंत वेळुस्कार बरयता,

*'हळसुकावणो*
*पावस हो*
*थांबून थाबना'*[११]

हांगा कवी मूळ 'हळशिकावणो' ह्या उतरांतलो 'इ'कार काडून ताचेर 'उ'काराचें रोपण करता. हरशीं कवीक पावस आवडटा. ताच्या साबार काव्यांशांनी 'पावशी शेन' नाचत येता... पूण हे कवितेंतल्या आशयांतलो पावस सामको वाजेवणो आनी सुको. कवीक अभिप्रेत आशिल्लें हें 'सुकेंपण'कवी स्वरांतरीत उतराची घडण करून 'हळसुकावणो' अशें नवें रूप दिता. ह्या स्वरांतरणाक लागून कवी 'वाजेवणो आनी सुको' हे दोनूय अर्थ दिवपांत जैतीवंत थरता.

वयलेदरा वाचप्यांक गर्भितार्थ जाणवना. पूण चिकित्सक रसिकाक मात गर्भीत अर्थाची समजणी मेळूंक शकता. 'सावुलगोरी'च्या आकर्शणान पुराय विरगळून वतल्याची 'कामेत्सा' तेंगशेर पावतना कवी बरयता,

*'...सावुलगोरी न्हिदांत येता*
*आंगाक तेक्कोन सामकी...*

*...झडोवन घालता*
*पिकोवन राती*
***फाटमणयांच्या** मदसून **शिरशिर***
*चिरीत वयता गोरी*
*घालून **समगम** धुरी*
*रे वयता सावुलगोरी'*[१२]

समगम (समागम) हें उतर *एकरूप जावप, मिलन, सहवास, संभोग* अशें विविध-अर्थी आसा. हे कवितेंत अर्थाक आनी छंदाक सांबाळून उतर नियोजन केलां. हांगा 'काम भावना' शब्दांकीत जाल्या. मात हें करतना कवीन आपली उतर कळाशी दाखोवन दिल्या. शरिरांतल्यान चडत येवपी उत्तेजना 'फाटी कण्यांतल्यान' काम अवयवां मेरेन वता. हाचें वर्णन वयल्या कडव्यांतल्यान समजता. फाटीकणो आशिल्लेच प्राणी सस्थन आसतात आनी तांची कामक्रिडा आगळी आसता. कवी 'फाटमणयांच्या' अशें उतर घडोवन 'उकार-एकार-ईकार' नाशिल्ल्या त्या उतरांतच फाटी कण्याचो 'आकृतीबंद' निर्माण करता.

तेच वळींतलें 'शिरशिर' हें उतर लेगीत रगत व्हांवोवपी 'शीर' आनी रगतांतली 'शिरशिरी' अशा दोनूय अर्थांतल्यान आकाराक येता. 'समागम' ह्या उतरांतलो 'आ'कार काडून कवीन तें पुराय उतर 'अकार'मय केलां. हाका लागून 'समगम' (समागमाक) उतराक 'संगम'चो पवित्र अर्थूय फावो जाता. वेळुस्काराले हे उतरांविश्कार कवितेचें निखटें शब्दांग सोबीत करनात तर अर्थांगाक लेगीत खोलाय दितात. उतरांर्थाच्या अंतरंगांत वचून लोकभाशेचो साज, ताल आनी खाशेलपण मतींत घेवन कवी कोंकणी उतरावळीच्या नव्या रुपांक जल्म दिता. ही तांची कळाशी तांच्या पद्यूच न्हय तर गद्य रचनावळींतूय मेळटा. देखीक:

*'...हें जेन्ना आमकां कळटा तेन्ना एक **तीवर** (खूब खर) उत्सुकताय आमच्या मनांत आकारत येता.'*[१३] हांगा 'तिव्र' ह्या मूळ संस्कृतांतल्यान आयिल्ल्या उतराचें लोकभाशीक नदरेन (कोंकणी भाशेच्या सबावगुणांक धरून) जोडाक्षरां सुटावीं करून 'तीवर' अशें रूप उपकारायलां. *'आनी संत मीराबाय ही केदे ताकदीची अस्तुरी आनी तिचें पावसा कडलें नातें कितलें केगाद हें जाणगुणांक कळत वता.'*[१४] वा *'आतां तुजे वाटे कडेन **लालेवन** दोळे लावप इतलेंच तिचे शक्यतायेंत उरलां.'*[१५] अशी शब्दबांदावळ ताच्या गद्य बरपावळींतूय 'पद्यात्म' भाव निर्माण करता.

कवी मुखार म्हणटा,

*'तय चंद्रीमशी*
*शिर शिर सावुलगोरी*
*आंगार पानां मन विळख्यांची*
*संगति धूंद आमोरी*
*सावुलगोरी'*[१६]

कवितेच्या ह्या पयल्याच कडव्यांत आयिल्ल्या 'तय चंद्रीमशी' उतरांत तयेचो (त्रयोदशेचो) चंद्रीम इतल्या पुरतोच अर्थ सिमीत उरनासतना भारतीय धर्म कोशांनी सागिल्ल्या अर्था मेरेन वचून बोध घेवप गरजेचो थरता. शुक्ल पक्ष आसूं वा कृष्ण पक्ष आसूं, हे त्रयोदशेचो स्वामी म्हणल्यार 'कामदेव'. भारतीय विविध धर्मशास्त्रांत सांगिल्ले प्रमाण ह्या दोनूय पक्षांतले तयेक निरंतरपणान कामदेवाची पुजा केल्यार आंकवारांचीं लग्नां थरतात असोय समज आसा.[१७] वेळुस्काराचे हे शब्दप्रयोग निखटे शब्दप्रयोग उरनासतना ते अर्थांगाचो पांवडो उंचायतात हें नोंद घेवपा सारकें.

**नादार्थी शब्दाविश्कार:** नाद म्हणल्यार आवाज (phone). भाशीक घडणुकेंत कांय उतरां तातूंतल्या अर्थाचो नाद घडोवपाचे तांकीचीं आसतात. उदक सळसळप, घांट घणघणप... आदी. माधवी सरदेसाय हांणी आपल्या 'भासाभास' पुस्तकांत अश्या उतरांक 'नाद अणकारी' उतरां म्हणल्यांत. वेळुस्कारान कोंकणी कवितेंत नादार्थी उतरांचो आस्पाव करून एक खाशेलो प्रयोग मुखार व्हेलो. 'सावुलगोरी' तशेंच हेर संग्रहांतल्यानय तांणी हो प्रयोग केल्लो पळोवंक मेळटा. कवी म्हणटा,

*'व्हडे राती मांडार गाती*
***धपक धपक** घुमटां'*[१८]

हातूंत धपक-धपक हो घुमटां वाजोवपाचो नाद ज्युस्त शब्दबद्ध केला. ह्या उतरांतल्यान नादार्थाक पुरायपण येता. 'सावुलगोरी'तल्या झाड विभागांत एक कविता येता..

*'थिरं*
*पाखां फडयडायत*
*शेवणें आयलें... '*[१९]

हांगा 'थिरं' ह्या उतरांत शेवण्याच्या पाखां फडफडावपाचे क्रियेचो भास घडोवपी अर्थ आसा. उतरांतलें हें नादार्थी सामर्थ्य वेळुस्कार बरेतरेन वापरुंक जाणा. कवी आपले 'सांज' नांवाचे एके पोन्ने कवितेंत 'थर्त' हें उतर नादार्थी आंगान वापरता. कवी आपले ते कवितेंत सांजेचीं वेगळीं रुपां शब्दबद्ध करता. सांजेचे साबार आकार कवी कागदार रकयता. आनी कवितेचे निमाणे कडेन म्हणटा, *'सांज थर्त आकाराची... '*[२०] हांगा 'थर्त' ह्या उतराचो परपंरीक अर्थ 'भंयां'कडेन संबंदीत आसलो तरी कवी हांगा तो 'खिणा खिणाक बदलत्या आकारा कडेन' म्हणल्यार 'थरथरत्या' आकारा कडेन जोडटा. कवितेंतल्या शब्दाविश्कारा संबंदांत कवी कडेन आशिल्ली ही खाशेली उतर-तांक. सावुलगोरीच्या सुंदरतायेचें वर्णन करतना आनी तिणें घातिल्ली भूल स्पश्ट करतना वेळुस्कार बरयता,

*'भुलमलप्यांच्यो*
*पावुल वोळी*
*चित चंचळी*
***थीर-थीर-थीर***
*काळीज करी*
*सावुलगोरी. '*[२१]

तिचे भुलोवणे दोळे, पापण्यो आपलें मन (चित्त) चंचल करतात आनी काळजांत एकेतरेचीं कंपनां उठ्ठात हो अनुभव शब्दांकीत करतना कवीन 'थीर-थीर-थीर' ह्या उतराचो चमत्कारीत उपेग करून घेतला. हरशीं 'थीर' म्हणल्यार 'स्थीर', जें हालना-धोलना, मात कवीन नेमको उरफाटो अर्थ घडोवपी रचना करतना त्या उतराक नादार्थाच्या पांवड्यार व्हरून बसयलां.

पावसांतली 'रिमझीम' सगळ्याच कवींनी आपापल्या कवितांनी शब्दबद्ध केल्या. पूण वतांतली 'जिमछिम' शब्दांतल्यान मांडपी हो कवी पयलोच आसतलो. कवी बरयता,

*'...वतांत* ***जिमछिम***
*पिंपळ पानां आंकरी*
*सावुलगोरी... '*[२२]

नाद भरीत अर्थ आशिल्ली उतरावळ घडयतनाच त्या उतराक अर्थाचें आनीक वेगळें आंग फावो जाल्ल्यो देखीय 'सावुलगोरीं'त मेळटात.

*'...बिरी बिरी मन-झीम*
*व्हाळशी* ***खुळखुळ***
*पांयजण* ***चमकण***
*रुंवार झडटा*
*पांय झिम. '*[२३]

व्हाळाच्या व्हांवत्या उदकाची खूळखूळ शब्दबद्ध करतनाच पांयजणांच्या नादाचो भास घडोवपी 'चमकण' हें उतर चमकप, चलप, पावलां घालप ह्या अर्थानय लक्ष वेधून घेता. पांयजणांचो 'छम-छम' वा 'चम-चम' हो नाद चमकण ह्या भावनामांत जाणवता. तशेंच चमकप, पावलां घालप हो अर्थूय त्या भावनामांतल्यान व्यक्त जाता. अशी उतर कळाशी लाबिल्ल्या ह्या कवीन खऱ्या अर्थान कोंकणीच्या छंदशास्त्रीय आंगाक समजून घेवन काव्य निर्मणी केली.

**अर्थांतरीत शब्दाविश्कार:** एका अर्था कडल्यान दुसऱ्या अर्था कडेन व्हरप म्हणल्यार अर्थांतरण करप. काव्यांत ह्या अर्थांतरणाक खाशेलें महत्व आसता. कोंकणी भाशेची छंदशास्त्रीय तांक समजून घेतली जाल्यारूच हें अर्थांतरण उंचेल्या पावंड्यार वचूंक शकता. वेळुस्कारा लागीं ही नदर आशिल्ल्यान तांणी तशेतरेचो शब्दाविश्कार 'सावुलगोरीं'त घडयिल्लो पळोवंक मेळटा. हो शब्दाविश्कार जाणीवेंतल्यान घडटा काय नेणीवेंतल्यान घडटा हें स्वता कवीकूय होलमूंक ना. वेळुस्कार म्हणटा, *'उतरां, ॲक्टिव्हिटीचो आंवाट, भावनांचो आविश्कार, तांतलें खाशेलेपण, गितांतली गती, आनी अश्या आनी कितल्या तरी घटकांक घेवन जेन्ना मनांत काव्यात्म उतरांवळीची संघटना निर्माण जाता ती कशी हें एक अजापूच आसता अशें म्हाका दिसता. '*[२४]

पाश्चात्य समिक्षक विलियम एम्पसन कवितेंतल्या शब्दार्थाच्या दुबावीपणाक वा संदिग्धतायेक उल्लेखून विस्कटावणी करता. उतरांतले संदिग्धतायेक लागून रचनेक भोवअर्थताय फावो जाता. त्या त्या उतरांतली शक्त वाचप्याक, अभ्यासकाक एका अर्था कडल्यान दुसऱ्या अर्था कडेन व्हरता. हाकाच आमी 'अर्थांतरण' म्हणूं येता. कवितेंत जेन्ना रुपक येता तेन्ना अशे तरेची उतरांवली ambiguity कवितेक भोवअर्थताय फावो करुन दिता. विलियम एम्पसनान सात तरांच्यो संदिग्धतायो सांगल्यो. ह्या ambiguityचो विचार मतींत घेवन एस. डी. तेंडुलकर हो समिक्षक वेळुस्काराच्या कांय कवितां विशीं भाश्य करतना म्हणटा, *'गोंयच्या संस्कृतायेकडेन परिचय नाशिल्लो, एखाद्या दुसऱ्या भाशीक प्रांतांतलो रसिक जेन्ना बाब रमेश वेळुस्काराची 'शिर शिर नाम्रुबे' ही कविता वाचता, तेन्ना ती आकलन जावपाक ताका जड वतलें. पूण एकदां ताका कळ्ळें की 'जागोर' हो लोककला प्रकार हे कवितेक फाटभूंय आसा आनी त्या लोककला प्रकारा विशीं ताका म्हायती मेळ्ळी की ही कविता ताका आपशींच कळटली. ''*[२५]

*'मनवासी*
***मनवासी*** *हें झाड*
*झाडाच्या मनांत*
*सुकण्या राशी*

*मनवासी*
*मनवासी ह्या*
*पिकूळ झाडाची*
*नदर* ***उकाशीं'*** [२६]

हे रचनेंत अर्थाचे नदरेन सुंदर प्रयोग जाला. हें शक्य जालां तें वेळुस्कारी शब्दाविश्काराक लागुनूच. मनांत राबितो आशिल्लें 'मनवासी' झाड आनी त्या झाडाच्या मनांत सुकण्यां राशी. मनांतल्या झाडाचेर बरयतना कवी झाडांतल्या मनाचेरूय बरयता. त्या मनांतल्या झाडाच्या मनांतली आकूळ पिकूळ 'अवस्था' आनी 'अस्वस्थता' एकाच वांगडा मांडटना कवीन 'उकाशी' उतराची केल्ली येवजण अत्युच्च पांवड्या वयली म्हणूंक जाय. त्या झाडाची 'उपाशी नदर' आनी 'आशेची नदर' हे दोनूय अर्थ 'उकाशी' ह्या एकाच उतरांत आसपावतात. हे दोनूय अर्थ एकामेकांक पुरक कशे. शेवण्यांनी येवन 'आपलीं फळां' खावन आपलें सर्वांग भोगचें हे आशेन अवकाशांत, आकाशांत लागिल्ली ही झाडाची नदर आनी अजून ती भूक भागूंक नाशिल्ल्यान 'उपाशी' उरिल्ली त्याच झाडाचीं नदर, दोनूय एकाच वांगडा 'उकाशी' हया शब्दाविश्कारांतल्यान आकाराक येतात.

वसंत रुतूंत झाडां पेडांचेर नवी आंकरी, नवीं पानां, चवरां फुलतात... हाका लागून वसंत रुतू म्हणल्यार प्रकृतीचे हर्षोल्लास व्यक्त करपी रुतू म्हण वळखतात. पुराण कथांनी वसंत रुतूक कामदेवाचो पूत म्हण मानला. असो हो मोगाचो उत्कर्श बिंदू जावन येवपी रुतू. सावुलगोरी आपले सावुलगाळींत सगळे सुरंगार माळून सावुलघुरी घालता. अशा ह्या प्रसंगाचें वर्णन करतना कवी अर्थांतरणाच्या आदारान प्रकट जाता.

*'सावुलगोरी*
*सदांच गाळींत*
*सर्वय सुरङार माळी*
*कोणा कोणाचे*
***वसंत** सगळे*
*एकठांय हाडून **जाळी***
*सावुलगोरी...'*[२७]

हांगा पाचवेंपण निर्मुपी आनी सगळ्या रुतूंचो राजा वसंत आनी ह्यो 'वसंत' रुपी सगळ्यो इत्सा एकठांय करून 'लासपी' ही सावुलगोरी. 'फुलप' आनी 'लासप' अश्या दोन अर्थांगाचो सर्जनशील वापर हे मांडावळींत पळोवंक मेळटा.

**अक्षरछंदी शब्दाविश्कार:** वेळुस्कारान ल्हानपणा सावन मराठी अभंग वाचिल्ले. कांय अभंगांचीं पारायणां केल्लीं. हे शैलीचो प्रभाव लेखनाचेर जावप सामकें सभावीक. तांचे कवितेचेर हे अक्षरछंदी रचनेचो आपसूंक प्रभाव पडला. अक्षरछंद मतींत घेवन जाणीवपूर्वक केल्ले प्रयोग 'सावुलगोरीं'त दिश्टी पडटात. साडेतीन वळींच्या कडव्यांची अभंग रचना करतना पयल्या तिनूय वळींत तितल्याच अक्षरांचें नियोजन आनी उरिल्ले अर्द वळींत मेळपी मेकळेंपण सांबाळिल्लें पळोवंक मेळटा.

*उतर उतर जालें (८ अक्षरां)*
*तुज्या गजराचे बोल (८ अक्षरां)*
*गेले सगळ्यांचे मोल (८ अक्षरां)*
*तुका सोडून (५ अक्षरां)*



*ना गा जाणवली जीण (८ अक्षरां)*
*फुलां फुलां जाले खीण (८ अक्षरां)*
*गेलो सोडून गा शीण (८ अक्षरां)*
*मनांतुलो (४ अक्षरां)*

*कोण असो कसो गा तूं (८ अक्षरां)*
*आगळीच उचंबण (८ अक्षरां)*
*सोदी मनाची उमळ (८ अक्षरां)*
*पावलां तुजीं (५ अक्षरां)*[२८]

मंगळुरा कविता ट्रस्टान आयोजीत केल्ल्या 'कविता फेस्तां'त रमेश वेळुस्काराची दिर्घ मुलाखत घेवपाची संद म्हाका फावो जाल्ली. त्या निमतान तांचे कडेन जाल्ले चर्चे वेळार तांणी अक्षरछंदाचो प्रभाव आपल्याचेर घरांत आनी गांवांत कशेतरेन नकळटां जालो आनी कवितेंतल्यान तो आकाराक येवपाक लागलो तें 'वेळुस्कारी शैलींतल्यान' सांगिल्लें. 'सावुलगोरीं'तल्या जायत्या रचनांनी एक-दोन अक्षरांचे बदल गेल्यार तांच्यो जायत्यो रचना शंबर टक्के अक्षरछंदांत बसतात तें देखींच्या आदारान हांवें सांगिल्लें आनी तें तांकां पटिल्लेंय. ते नदरेन तांची *'म्हजे कुळारीचे वाटे'*[२९] ही बरी देख जावन आसा. तातूंतल्या तिसऱ्या कडव्यांत 'सुकणीं घाली उलो' चे सुवातेर 'सुकणीं घाली **गे** उलो' करीत जाल्यार पुराय रचना ८-८-८-८ अशा अक्षरछंदांत बसता. तीच गजाल तांचे *'धाय दिकांचें मळब'*[३०] हे कवितेंतूय पळोवंक मेळटा. तांकां फकत अक्षरछंदाचेंच न्हय तर मात्राछंदाचेंय गिन्यान आशिल्लें हें 'सावुलगोरीं'तल्यान पट्टा. देखीक :

*'ह्या झाडाचें (मात्रो-८)*
*न्हेसण सुटलां (मात्रो-८)*
*हींव सरतसून (मात्रो-९)*

*ह्या झाडाचें (मात्रो-८)*
*आंगूय फुटलां (मात्रो-८)*
*नदर **धरतसून'**[३१] (मात्रो-९)*

हे रचनेंत कवीन दोनूय कडव्यांनी मात्राछंद सांबाळिल्लो पळोवंक मेळटा. लघुची (न्हस्व स्वराची) एक मात्रा आनी गुरुच्यो (दिर्घ स्वराच्यो) दोन मात्रा मेजल्यो जाल्यार ८-८-९ चो क्रम यमकां सयत दोनूय कडव्यांनी दिश्टी पडटा.

*'ह्या झाडाचें (४ अक्षरां)*
*न्हेसण सुटलां (४ अक्षरां)*
*हींव **सरतसून** (४ अक्षरां)*

*ह्या झाडाचें (४ अक्षरां)*
*आंगूय फुटलां (४ अक्षरां)*
*नदर **धरतसून'**[३२] (७ अक्षरां)*

हांगा अक्षरछंदाचे नदरेन विचार केल्यार ४-६-७ हो क्रम दोनूय कडव्यांनी पाळिल्लो पळोवंक मेळटा. अक्षरछंद आनी मात्राछंद ह्या

दोनूय आंगांनी उत्कृश्ट अशी ही काव्यदेख. अशेच तरेची दुसरी देख घेवंची जाल्यार 'झाड' विभागांतली कविता पळोवंया:

*'आतां रातीचें (मात्रो-१०) (अक्षरां-५)*
*उबें झाड हें (मात्रो-८) (अक्षरां-५)*
*पुरंव पुरंवता (मात्रो-८) (अक्षरां-७)*

*वाटेन वयतल्या (मात्रो-१०) (अक्षरां-७)*
*वाटसराचेंय (मात्रो-९) (अक्षरां-६)*
*मन भिश्टायता.'*[३३] *(मात्रो-९) (अक्षरां-६)*

हे कवितेंत १०-८-८ आनी १०-९-९ असो क्रम दवरून मात्राछंद केळयिल्लो पळोवंक मेळटा. हातूंत मात्रा बंदन सांबाळटनाच वेळुस्कारान ५-५, ७-७, ६-६ असो अक्षरछंद सांबाळून कविता रचल्या. अशेतरेचे शब्दाविश्कार करपाची तांक आशिल्लो हो कोंकणी कवी समिक्षकांचे नदरे आड उरिल्ल्यान कोंकणींतले काव्य-समिक्षेंत 'छंदशास्त्रीय' आंग येवंक पावलें ना.

**निश्कर्शः** लोककाव्य, लोकभास, लोकसंगीत ह्या तिनूय घटकांच्या अभ्यास आनी प्रभावाक लागून वेळुस्कार आपले कवितेंतल्यान छंदात्म शब्दाविश्कार घडोवंक पावले. वेळुस्काराचे कवितेचेर लोकसंगिताचो आनी लोककाव्याचो बरोच प्रभाव आसा आनी तें तांणी स्पश्टपणान सांगलांय बी. ते म्हणटात, *'... एक दीस हांवेंय कविता करचें अशें म्हजे मतींत येवन गेलें. मदींच धालांतल्या तांबड्या माडाच्या शेवकांचो ताल म्हजे तंद्रेंत आयलो आनी मागीर तो मतींत कितें कितें उचापती करीत बसलो. अश्यो रचना लोकांक कश्यो जमतात काय असोय एक प्रस्न मनांतल्या मनांत जाप सोदूंक लागलो. अचानक मतींत येतल्या अद्‌भूत उतरांच्या मेळांचीं सुंदर घडपां कशीं जाता तें कळनासलें. अशा वक्तार म्हजे मतींतल्यो तमाम गजाली हांवूंच करतां काय त्यो आनी कोणाचे हुकमतीर चलतात तें कळनासलें.'*[३४] वेळुस्कार आपले कवितेंतल्या दरेका उतरा कडेन बारीकसाणेन पळयता हें जायते फावटी खाजगी चर्चे वेळार समजलां. आपल्या सगळ्याच कवितां विशीं ते समाधानी आशिल्लें अशें म्हणूंक जायना. कांय रचना तांणी छापनासतनाच दवरल्यो. आपल्या *'हांव कित्याक बरयतां...' ह्या लेखांत वेळुस्कार बरयता, '...हे प्रक्रियेंत म्हज्या पयल्या काव्य संग्रहांत 'मोरपाखांत'त जितल्यो कविता छापून आयल्यो ताचेय परस चड कविता हांवें ना छापपाच्यो म्हण वेगळ्यो काडल्यो. कारण म्हाका त्यो कविता कच्च्यो दिसल्यो.'*[३५] नव शब्दाविश्कार घडयतना कवी तीन पावंड्यार हो प्रयोग करता. पयल्या पावंड्यार कवी पुरायपणान नवें उतर घडयता. दुसऱ्या पावंड्यार तो दोन शब्द वा दोन स्वर हांचो मिलाप घडोवन नवें उतर घडयता आनी तिसऱ्या पावंड्यार मूळ उतराक वेगळो अर्थ फावो करपी शब्दबांदावळ निर्मिता. वेळुस्कारान ह्या तिनूय पावंड्यार शब्दाविश्कार घडयिल्ल्याच्यो देखी 'सावुलगोरीं'तच न्हय तर हेर संग्रहांनीय मेळटात. नादार्थी उतरां, अर्थांतरीत उतरां, अक्षरछंदात्म, मात्राबद्ध अशे साबार पांवड्या वयले शब्दाविश्कार हें वेळुस्काराचे कवितेचें तांकांग (forte) म्हणूंक जाय. वेळुस्कारांच्या कवितांचो छंदशास्त्रीय अभ्यास जावप गरजेचो आसा. नव्या अभ्यासकांनी हे नदरेन विचार करून वेळुस्काराचे कविते वांगडाच एकूण कोंकणी कवितांचेर प्रबंधात्मक संशोधन करूं येता.

**संदर्भः**


१. नायक पुंडलीक, *गा आमी राखणे,* अपुरबाय प्रकाशन, वळवय, फोंडें-गोंय, दु. आ. (१९९०), पान क्र. ६६.
२. तत्रैव, पान क्र. ६९.
३. तत्रैव, पानां क्र. ७० ते ७९.
४. बोरकार माधव, 'कोंकणी-भारतीय आनी संवसारीक कविता', *कोंकण टायम्स,* कोकण टायम्स पब्लिकेशन्स, बेतीं, वेरें, एप्रील-जून २०११, पान क्र. १४.
५. वेळुस्कार रमेश भगवंत, *सावुलगोरी,* अपुरबाय प्रकाशन, वळवय, फोंडें-गोंय, मार्च १९८९, पान क्र. ४.
६. तत्रैव, पान. क्र.१२.
७. तत्रैव, पान. क्र.१७.
८. तत्रैव, पान. क्र.२८.
९. तत्रैव, पान. क्र.१६.
१०. तत्रैव, पान. क्र.१६.
११. तत्रैव, पान. क्र.७४.
१२. तत्रैव, पान. क्र.३१.
१३. वेळुस्कार रमेश भगवंत, 'सावण रे रह्या जोरा रे...', *जाग,* जयवंत भा. सरदेसाय, मडगांव-गोंय, वर्स ४२ : आंक १२ : जुलय, २०१६, पान क्र. २.
१४. तत्रैव, पान. क्र.२.
१५. तत्रैव, पान. क्र.३.
१६. वेळुस्कार रमेश भगवंत, *सावुलगोरी,* अपुरबाय प्रकाशन, वळवय, फोंडें - गोंय, मार्च १९८९, पान क्र. ३१.
१७. त्रयोदशी - भारतकोश : ज्ञान का हिन्दी महासागर 15-11-2018, <m.bharatdiscovery.org>
१८. वेळुस्कार रमेश भगवंत, *सावुलगोरी,* अपुरबाय प्रकाशन, वळवय, फोंडें - गोंय, मार्च १९८९, पान क्र. १०५.
१९. तत्रैव, पान. क्र.१९.
२०. वेळुस्कार रमेश भगवंत, *'सांज' कोंकणी-दिवाळी,* कोंकणी भाशा मंडळ, मडगांव, गोंय, १९७८, पान क्र. ४१.
२१. वेळुस्कार रमेश भगवंत, *सावुलगोरी,* अपुरबाय प्रकाशन, वळवय, फोंडें - गोंय, मार्च १९८९, पान क्र. २४.
२२. तत्रैव, पान. क्र.२५.
२३. तत्रैव, पान. क्र.३०.
२४. वेळुस्कार रमेश भगवंत, 'हांव कित्याक बरयतां...', *जाग,* जयवंत भा. सरदेसाय, मडगांव-गोंय, वर्स ४३ : आंक ५ : जानेवारी, २०१७, पान क्र. ९.
२५. तेंडुलकर एस. डी., 'आकलन कवितेचें, *गोवापुरी,* इन्स्टिट्यूट मिनेझिस ब्रागांझा, पणजी-गोंय. Volume: XII No: One, April-June, 2017 पान क्र. १२.
२६. वेळुस्कार रमेश भगवंत, *सावुलगोरी,* अपुरबाय प्रकाशन, वळवय, फोंडें - गोंय, मार्च १९८९, पान क्र. १८.
२७. तत्रैव, पान. क्र.२५.
२८. तत्रैव, पान. क्र.५९.
२९. तत्रैव, पान. क्र.६९.
३०. तत्रैव, पान. क्र.६८.
३१. तत्रैव, पान. क्र.४.
३२. तत्रैव, पान. क्र.४.
३३. तत्रैव, पान. क्र.१२.
३४. वेळुस्कार रमेश भगवंत, 'हांव कित्याक बरयतां...', *जाग,* जयवंत भा. सरदेसाय, मडगांव-गोंय, वर्स ४३ : आंक ५ : जानेवारी, २०१७, पान क्र. ८.
३५. तत्रैव, पान. क्र.१०.


संपर्क : 09860716071



# ध्यानस्थ रमेश वेळुस्कार...

मूळ मराठी : मीरा -- अणकार : कृपाली नायक

पुराय ब्रमांडाक साद घालपी रमेश वेळुस्कार हांची विलक्षण वेगळी कविता आमकां एका वेगळ्याच अद्भूत जगांत घेवन वता. हाचें कारण, धर्तरी, उदक, मळब, वायू आनी अग्नी म्हळ्यार पुराय सैमाचें आकर्शण हें वेळुस्काराचे कवितेंचे बीज आसा. ही कविता त्या बिजा मेरेन पावपाक धडपडटा आनी वसंत रुतुंतल्या फुलांनी परमळीत जाल्ल्या पांचव्याचार झाडां सारकी ती चंवरून आयिल्ली आमकां दिसतात.

वेळुस्काराचो जल्मूच गोंयचो आनी मुळची वृत्ती सैम पिशी. भुरगेपणांत सावत भावनाशिल सभाव अश्या मनाक गोंयचो सैम जायत्या रुपांनी भुरगेपणांतल्यानूच साद घालपाक लागलो आसत जाल्यार तातूंत अप्रूप नाशिल्लें. ल्हानपणांतूच रमेश निसर्गाच्या सानिद्यांत रमतालो. ल्हान, व्हड, आडवीं आनी भरमसाठ आकाराचीं झाडां, तांचेर भोंवपी चानयो, (पान घळीचो रुतू), उदकांत हालपी झाडांच्यो सावळ्यो, तांचीं प्रतिबिम्बां, झाडाची पाचव्या कोराची विविधताय, मळबाचे बदलते रंग, काळजाक भावपी तिळसांज ह्या सगळ्यांनी रमेशाचें ल्हानशें काळीज आनंदान भरतालें जाका लागून आपल्या सरभोंवतणच्या जगाचें भान तो विसरतालो. सैमीक गिरेस्तकायेन नटिल्ली सरभोंवतण ताच्या मनार खोल परिणाम करताली देखून हो निसर्ग ताका जायत्या रुपांनी भेटलो. तो केन्ना सातवीक दिसताले, तर ताच्यो ल्हवपीक हालपी खांदयो आपले इश्टीगतीचो हात दितात असो भास, केन्ना-केन्ना होच निसर्ग अचानक गूढ उदास दिसतालो. काळ्या कुपांनी भरून आयिल्लें मळब अंतर्मनाक धवळून उडयतालें. चान्याची रात मनांत हूरहूर निर्माण करतली. देव सैमाच्या वेगळ्या वेगळ्या रुपांतल्यान मनशाक आनंदाचे जायते संकेत दित आसता. ते घेवपी मनय तितलेंच संवेदनशील आसूंक जाय. ल्हापणांतल्यानूच रमेशाचें अशें स्वताचें एक भावविश्व निर्माण जायत गेलें. सैमाचो अलौकीक असो अणभव घेतना आमी स्तब्ध जातात. आपल्या अंतर आत्म्यांतल्यान एक वेगळेच तरेचें गीत खोलायेन भितर पाझरत वता अशी जाणीव एका परिपक्व वयांत रमेशाक निश्चितूच जावंक लागली. सैमाचें आवाजा बगर गीत आनी ह्या गिता फाटल्यान पंच म्हाभुतांच्या बिजां मेरेन पावपाचो ताचो यत्न ताचे कवितेंत दिसूंक लागलो. खंयच्या खिणांत कलावंतांक आयकूंक येवपी हे सुरू म्हळ्यारच कलावंताचे भाव समाधीची लय. वेळुस्कारान ह्या भाव समादींत वेगळ्या वेगळ्या निसर्ग रुपाचे अर्थ सोदले. जाणिवांच्या जगांत हो सैम केन्ना मानवीय प्रतिकां धारण करून कागदार ल्हवपिकपणान देंवलो तर जायते फावट जाणीवांचीं दारां घट्ट बंद जालीं आनी नेणारपणांच्या जगांतले अत्यंत तृशार्थ मनान घेतिल्ले अणभव तांणी शब्द रुपान आमचे मुखार दवरले.

**सावुलगोरी**

*हें एक झाड*
*ह्या झाडाचेर*
*आयलीं शेवणीं*
*आयल्लीं शेवणीं*
*अडोन गेलीं*
*ह्या अड्डुपाचीं*
*झाडाक जाल्यां*
*कूड पोखरपी दुखणीं....*
*...म्हजें ऋतुचक्र जाता...*

*हिरण्यगर्भ* कविता संग्रहांत रमेश वेळुस्काराची कविता वेदीक रुशींच्या रुचे सारकी भारदस्त जाता पूण तरी तिची कोंकणी जलार ती सोडना. सैम कविते बरोबरूच तांणी जायत्यो प्रेम कविता बरयल्यो. तांचें *आंगणी नाचता मोर मोरया* हें ल्हानशें खंड काव्य तर प्रेम काव्याचो अपूर्व नमुनोच आसा. मोर आनी म्हातारेची सून हाच्या प्रणयाची ही कथा वेळुस्कारान काव्यमय शब्दांत रंगयल्या. हे कथेक लोकवेदाची चौकट आसा. वेळुस्कार सैम आनी मनीस हातुंतलें दैवत मानतात ताकाच लागून तांकां मोराक म्हातारेच्या सुनेचो मोगी करपाक कसलीच अडचण येना. तांची कविता जायते फावटी श्रृंगारीक जाता पूण तांतूत अश्लीलता खंयच येना. भुरग्यांच्या ल्हवपीक मनाचो वेध घेवपी बालकविता आनी बालगितां ह्यो तर तांकां सहजपणान येताल्यो. सद्दां सकाळीं उदेवपी हिरण्यगर्भाच्या साक्षीन येवपी दर खिणाक १तोंड दिवपी मनशां, मानवी जिवनांतली अत्यंत म्हत्वाची मोगाची भावना आनी तिच्या केंद्रस्थानार आसपी अस्तुरेची विविध रुपां, अमूर्त अश्या रुपांतल्या त्या निर्माणकाराचे जाणवपी अस्तित्व. पिचील्ली पूण न खचता पयस दोळे लावन फकत आशेचेर जगपी मनशां अशे वेगळे विशय तांकां खुणायताले. एखादे रुढ संकल्पनेच्या मुळा मेरेन वचून स्वताचे प्रतिभेन कितें उलगडटा कितें... हें पळोवपाचो तांकां एक ध्यासच आशिल्लो.

काळांतरान तांणी गदय बरोवंक सुरू केल्लें. तांणी कोंकणी आनी मराठींतल्यान सुंदर ललीत बरयलां. पूण गद्यांतुय ते कविताच बरयताले म्हणल्यार चूक थारचें ना. तशें पळोवंक गेल्यार तांचे सगळेच ललीत लेख उल्लेखनीय आसात पूण 'गणपती बाप्पा सांग कशें' ह्या बालगिताची जल्मप्रक्रिया सांगपी ह्याच माथ्याळ्याचो लेख जावं, 'फातराचें जाता फूल' हो आपल्या भुरगेंपणांतलो अणभव सांगपी लेख जातूंत वर्ग इश्टीण राविन्द्रि हिणें खेळटना, गायतना, अभ्यासांत, दुयेंत आसतना वात्सल्यपूर्ण मायेन दिल्ली साथ, तिचे बद्दल एक हुळहुळत आकर्शण मनांत सांठून आशिल्लें. अर्दकुट्या वयांतलें निश्पाप

आकर्शण. पूण एका दिसा नाटकांत ध्रुवाची भुमिका रमेशाक मेळ्ळी ताची आवय आशिल्ली राविंद्रि. तालमी सुरू आशिल्ल्यो. ध्रुव भायल्यान येवन फुलां गुंथपी आवयक घट्ट वेंग मारता असो तो प्रसंग आशिल्लो. रमेश भायल्यान आयलो खरो पूण आवय मेरेन पावता सर ताचो फातोर जालो. मुखा वयल्या पवित्र आवयपणाक स्पर्श करचो अशें ताका खूब दिसतालें. पूण मनाचो जाल्लो जड फातर मर्दी येतालो. वेळुस्कार म्हणटात अचकीत वीज कोसळची तशें जालें. मनाक जशें फातर जांव येता तशेंच फूलय जांव येता हें त्या एका खिणान स्पश्ट केलें. 'फातराचें फूल जाता' हाची प्रचिती आयलीं आनी धांवत ताणें मुखा वयल्या मातृत्वाक वेंग मारली. प्रसंग ओके जालो. ते म्हणटात, ''काळाचो दिग्दर्शक तुमच्या मनांत असो प्रवेश करता आनी तुमच्या अस्तित्व भानाक वेगळोच आवाक दिता' तो असो.'' वेळुस्कार बालगितां यशस्वी पणान कित्याक बरोवंक पावलो हाची जाप ह्या लेखांत मेळटा.

कवितेचेर जिवापाड (जिणे परस) मोग करपी वेळुस्कार हे बहूभाषाकोविंद आशिल्ले. तांचे कोंकणी बरोबरच मराठी, हिन्दी, बंगाली, पुर्तुगेज सारक्या भासांचेर प्रभुत्व आशिल्लें. मराठी आनी हिन्दी भासांतल्यानय ताणें गद्य आनी पद्य साहित्य निर्मिती केल्या...स्वताची म्हणू अखिल भारतीय अशी दृश्टी आशिल्ली वेगळी जीवन दृश्टी आशिल्ली. तातुंतल्यानच ते झेन तत्वगिन्या कडेन पावले आनी झेन कवितांची निर्मणी जाली.

बौद्ध धर्म जो जपानांत वाडीक लागलो ताच्यो जायत्यो उपशाखो जावन त्यो पसरत रावल्यो. ह्या शाखेंतलो सामको लोकप्रीय जाल्लो पंथ म्हळ्यार झेनच! सादारण इ.स. ५०० च्या फुडलो काळ तें आयच्या आधुनीक युगा मेरेन झेन हो जपानांतलो एक मुखेल धर्म म्हण वळखतात. जपानांतल्या सर्वसामान्य लोकांचे सवकळीची आशिल्ली चाची परब, ज्युडो, मल्लविद्या, बागायती काम, काव्यकला, चित्रकला, रंगभूंय पुस्पकला ह्या सगळ्यांचेर झेन तत्वाचो प्रभाव दिसता. तसो तो तांचे कवितेरूय दिसता.

मूळ संस्कृत ध्यान ह्या शब्दांतल्यान झेन ह्या शब्दाची निर्मणी जाल्या. ध्यान मौनांतल्यान मेळपी आनंद हो ताचो अर्थ आशिल्लो. जपानी लोकांनी निसर्गाक देव मानलो आनी ध्यानांतल्यान ताकाच आळयलो. 'भूंयकांप' ह्या सैम निर्मीत संकटांतल्यान वांचपा खातीर 'हायकू' (तीन वळींची कविता) रचलें. ताचेंय कारण म्हळ्यार सतत माथ्यार भिरभिरपी मरणाचें संकट, जें मनांत आसा ते बेगीन सांगून उडोवप, कमी शब्दांत महान अर्थ सांगप हेंय तांणी परिस्थिती प्रमाण स्विकारलें. झेन कवितेचीं मुखेल तत्वां - ध्यान, सैमा कडेन एकरुपताय, सैमाक देवपण दिवप, आनी रचनेंतलें नाजूकपण हीं आमकां वेळुस्काराचे झेन कवितेंत तंतोतंत आयिल्लीं दिसतात. हें सामकेंच उल्लेखनीय. तांच्यो कांय झेन कविता अश्यो.

*झेन कविता*
*गम्मत*
*मेघांनी केली*
*आनी पान*
*पान पान रानाचें*
*वाजयत गेलें झांज*
*अनंत*
*हाता आयलें तेन्ना*
*हातूच म्हाका उल्लें ना*
*चैतन्याच्या*
*लाख हातांची*
*ताकत*
*म्हाका कळ्ळीच ना*

तांचो स्वभाव सामको म्होंवाळ आनी पारदर्शी आशिल्लो. तो केन्नाच दुखी, चितेंत वा वैफल्यग्रस्त नासतालो. बुद्धाचीं तत्वां तो अक्षरशः जगताले. आपलें दर दिसाचें जिवीत तो सहजतायेन जगूंक शकलो कारण तांणी आपल्या मनार भूतकाळाचें वजें घेतलें ना. भविश्यकाळाची चिंता केली ना. ताकाच लागून वर्तमान काळाचो आनंद ते मुक्तपणान उपभोगूंक शकले.

धवोच सुंदर सो सदरो घातिल्ली. खांद्याक शबनम बॅग लावन धोलत धोलत चलपी ती मूर्त जायत्या जाणांनी पळयल्या. ह्यान फुडें ती मूर्त पळोवंक मेळची ना हाचेंच मनांतल्यान दुख्ख जाता. वेळुस्कार म्हणल्यार जशे सुशेगाद गोंयकार हे उपमेक जगपी... खरेंच वृत्तीन सामको शांत, समाधानी, सुशेगाद असोच. अशें असामी, आसा म्हजे कडेन भरपूर कळाव अशें सुचयत ते हळूच एक एक उतर उच्चारीत भासाभास सुरु करताले. ते मेळटकच तांच्या इश्टां कडेन वेळ नासलो तरी तांकां एक दिसतालें की, 'आसा आपल्या कडेन भरपूर वेळ. इतलेंच कितें खास काम आसा मागीर करूं येतां' मागीर गजाली रंगताल्यो. संवसारी आसूनय कसलेच पाश नाशिल्ल्यो वरी तो मेकळो दिसतालो आनी तसोच वागतालो.

हांव तांचें नांव जायत्या वर्सां सावन आयकून जाणा. तांच्या काव्यांतली विवीधता एके वटेन भुरग्यांच्या काळजांत ल्हवूच रिगपी तांचें मन हे अदृश्ट सृश्टीचो वेध घेत सैमांतल्यान अर्थ सोदपी आनी मागीर झेनच्या प्रवाहांत ते चिप्प भिजून गेले तांच्या काव्यांतल्या ह्या वळणाचो अभ्यास करचो अशें म्हज्या मनांतूय येवन गेलें पूण दर एके गजालीची वेळ येवंची पडटा म्हणटात. दोन वर्सां पयलीं म्हजी गोंयांतली लेखिका इश्टीण हेमा नायक हिणें म्हजीं पांच पुस्तकां कोंकणींत हाडपाचें थारायलें. ते संदर्भांत गोवा कोंकणी अकादेमींत मिटींग दवरली. *आत्मानंद* आनी *मिराची निवडक कविता* ह्या काव्यसंग्रहाचो वेळुस्कारांनी अणकार करचो अशी हेमाची मनांतल्यान इत्सा आशिल्ली. मिटींगेक वेळुस्कार आयले. तांचें जें वर्णन हांवें आयकल्लें तशीच तांची मूर्त आशिल्ली. शांत भाव आशिल्लें तांचें मुखामळ. आपुलकेन भरिल्ले दोळे. म्हज्या साहित्याच्या प्रोजेक्ट संबंदान तांणी आयकलें. म्हजें पुस्तक चाळ्ळें. शांतपणान तीन चार कविता वाचल्यो आनी म्हणले, 'करतलों हांव हो अणकार. म्हाका आवडलो तिच्यो कविता...' खरें सांगू त्या खिणाक म्हजे दोळे भरून आयले. हांवें फकत तांकां नमस्कार केलो. खूब आनंद जाल्लो म्हाका. म्हजे कवितेक न्याय मेळपाचो आशिल्लो आनी आज एका खचा मनशाच्या हातांत म्हजें पुस्तक गेल्लें. थोड्याच दिसांनी हळू हळू व्हॉटसॅपा वयल्यान सरांनी अणकारीत कविता धाडपाक सुरवात

केली. आनी कितें सांगूं! म्हज्यो भावना इतल्ल्यो तंतोतंत कोंकणींत अवतरिल्लें. त्यो कविता म्हज्यो आसात म्हणपाचें म्हजें धाडस सोंपिल्लें. इतली म्हजी कविता आतां तांची आनी फकत तांचीच जाल्ली. ह्या काळजाचें जशें काय त्या काळजाक होलमल्लें आनी तें आतां रसीक वाचकाच्या काळजा मेरेन अलगद पावतलें हातूंत कितेंच दुबाव नाशिल्लो. मनीस आनी परी, अक्षर, कोगूळकंट, धनुशरेग, सपनांय अश्यो कांय कविता म्हज्योच पूण तांच्या शब्दांतल्यान म्हाकाच घायाळ करून गेल्यो. म्हाका तांणी अणकारीत केल्ल्यो कविता आवडटात हाचें समाधान तेंवूय फोनारूच व्यक्त करताले. सामकें शांतपणान. तांकां जावपी आनंद म्हाका कळटालो. ताच्यो अंतर्मुक्त करून उडोवपी कविता आनी नेणारपणाचो साद आयकपाचो तांचो ध्यास हें सगळें लक्षांत आयलें तेन्ना हांवें मनांत म्हळें, वेळुस्कार पुरायपणान ध्यानस्त आसात. लोकांत मदीं आसुनूय एकांतांत हीच तांची खरी अवस्था आशिल्ली. तांच्या जिविताची सखी कविता हिचेच लागीं तांचें ध्यान लागिल्लें. तांणी म्हजे कवितेचो अनुवाद केलो तोय ह्याच ध्यानमग्न अवस्थेंत. तांच्या रुपान म्हाका खरो कवी आनी कविता हांचें अपूर्व नातें अणभवपाक मेळ्ळें हें खरेंच भाग्याचें. तांच्यांत आनी म्हज्यात कवितेन एक रेशमी बंद निर्माण केलां.

ध्यानमग्नता, अज्ञाताची ओड हे अवस्थेंतल्यान ते वताले तरी 'लळितक' नांवाच्या कोंकणींतल्या साहित्य मनोरंजनाच्या सादरीकरणाचो कार्यक्रम घेवन ते गोंयांतल्या जायत्या गांवांनी वताले. शेनवारा सांज वेळार बेगीन वचप सोल्जरावरी खर्च करप, सांजचें गांवांनी पावप, गांवांतले शाळेंत, मंदिरांत जावं केन्नाय चुकून कोणाल्या आंगणांत कार्यक्रम सादर करप, रातचें त्या गांवांतल्या यजमान्याच्या घरांत कितें मेळटा तें खावप आनी दुसऱ्या दिसा सकाळीं उठून परत आपल्या घरा येवप. अश्या वेळार ह्या पंगडा वांगडा आवय बापाय बरोबर बऱ्याच ल्हान भुरग्यांचेंय वचप जातालें. तांचे मनरिजवणेची जबाबदारी रमेश घेतालो आनी आपल्यो नव्यो नव्यो बाल कविता, बाल गितां सादर करून तांचो मनरिजवण करताले. अशा तरेच्या गरजेंतल्यानूय कांय बालगितां ताचे लेखणेंतल्यान आयल्यांत. खुबूच म्हत्वाचें म्हळ्यार, ताच्या घरांत संगिताचो वारसो आशिल्ल्यान तांचे कवितेंत नाद लय तालीची जुगलबंदी दिसताली.

वेळुस्काराचे कवितेर बाकीबाक बोरकार हांचो खूब प्रभाव दिसता. बाकीबाबांचो तांकां भरभरून आशिर्वादूय लाबिल्लो. तांचे कडेन आशिल्ल्या लागशिल्ल्या संबंदांतल्या यादींनी तांकां भरून येतालें. बाकीबाबाच्या साठाव्या जल्मदिसा निमतान पणजेच्या मिनेझीस ब्रागांझा हॉलांत कवी संमेलन जाल्लें. तातूंत महाराष्ट्रांतले बरेच फांकीवंत कवी उपस्थीत आशिल्ले. ह्या संमेलनाक वेळुस्काराकूय आमंत्रण आशिल्लें. एका नामनेच्या कवी श्रेश्ठीच्या षष्ठब्दीपूतीच्या समारंभाच्या संमेलनांत कविता सादर करपाची संदी ही वेळुस्काराक काव्य देवतीची आपणाचेर व्हडली कृपा दिसताली. रंगलीं कुपां ही मोर पाखांतली पयलीच कविता ताणें सादर केली.

*रंगलीं कृपा दर्यामुखार*
*वयताना गे सांज*
*ल्हारा ल्हारार झांजल्ली गे*
*पैंजणांची दाद*

ह्या पयल्याच कडव्या उपरांत बाकीबाबाची उस्फूर्त दाद तांकां मेळ्ळी. हो खीण वेळुस्कारांनी आपल्या आयुश्यांतलो भांगराळो खीण मानला आनी अश्याच एका दिसा बाकीबाबान ताका मेळपाक आपयले. ऑल इंडिया रेडियो गोवा स्टेशनार बाकीबाबाची पयली भेट जाली. आपल्या आयुश्यांतलो हो अविस्मरणीय खीण अशें वेळुस्कार मानतात. गितकार आनी कवी म्हणून वेळुस्काराची तुळा जायते फावटी बोरकारा कडेन केल्ली. मुक्तछंदा परस तांच्यो कविता सूरतालांतूच चड आयिल्ल्यो आसात. *रे मोरा दिगंतरा, रंगलीं कुपां दर्या मुखार, म्हजे कुळाराचे वाटे, रद्रांनी चंद्र आसा* ही वेळुस्काराचीं गितां आकाशवाणी आनी टी.व्ही. चॅनला वयल्यान संगीतबद्ध जावन प्रसारित जाल्यांत. *'हिमगिरी रे'* हें तांचें गाणें सुमार म्हयनो भर भारतांतल्या सगळ्या रेडियो केंद्रां वयल्यान दर दिसाक प्रसारीत जालां.

मोरपाखां, माती, आंगणी नाचता मोर मोरया, सावुलगोरी, हिरण्यगर्भ, तनरजोती, दर्या, समुद्र मुद्रीका, झेन कविता हे तांचे कविता संग्रह म्हळ्यार पंचम्हाभुतांचें दर्शनूच. गजली सारके काव्य प्रकारूय ताणी यशस्वीपणान हाताळ्ळ्यात. ब्राझिलच्या युनिव्हर्सिटी ऑफ रिओ हांगा सर तांच्या हिरण्यगर्भ ह्या कविता संग्रहाचेर डॉ. दिलीप लवंदे हांणी पेपर सादर केला. तशेंच ताचे चलयेन ह्या कवितांचेर शॉर्ट फिल्म सादर केलां. ह्या वेळार कवितांचें सादरीकरण आनी चर्चा सत्रूय थंय आयोजीत केल्लें. वेळुस्काराचे काव्य तपश्चर्येक मेळिल्लें हें सुंदर फळ अशेंच म्हणचें पडटलें.

ताणें आपल्या साहित्यांतल्यान नवे विचार, नवे प्रयोग,नवे विशय रसिकांक दिले. राग, लोभ, मत्सर अश्या दुर्गुणांक स्पर्शय करि नासतना थीर चित्तवृत्तीन वेळुस्कार आपलें जीवन जगलो. बाकीबाबा बरोबरूच पंडित, भांगी, रामाणी, बा. दो. सातोस्कार, दा. अ. कारे अश्या कोंकणी साहित्यीकांच्या सहवासा बरोबरूच भारतांतले दिग्गज साहित्यीक अमृता प्रितम, कर्तार सिंही दुगल, नाटककार बलवंत गार्गी, अनंतमुर्ती, गोपिनाथ म्हानती, उडिया एन सायक्लोपिडयाकार विनोद खाणगो, बादल सरकार, सुनील गंगोपाध्याय, शेखो गोश, केदारनाथ सिंह, निलम श्रीवास्तव, सत्यवृत्त शास्त्री, नामवर सिंह अश्या जायत्या साहित्यीकांचो सहवास तांकां लाबलो. आयज अचानकपणान ल्हानश्याच दुखण्यांतल्यान हो मोटो मनीस आमच्यांतल्यान गेलो. कोंकणी कवितेचेंच न्हय तर समस्त काव्य जगाचें हें खूब मोटें लुकसाण. कारण ताचे कडल्यान अजूनय खूब लिखाण जावचें आशिल्लें. दर्याच्या तळाच्या शिपल्यांतल्यो मोती अजून आमचे हातींत लागचे आशिल्ले. तांच्या वचपान माती, आकाश, वायू, सागर सगळ्यांनीच दुका गळयल्यांत आसतलींच. झाडां तर निर्शेल्यांत. सवण्यांचो चिंवचिवाटूय आयकूंक येना. हो जगावेगळो सैम मोगी ध्यानस्तच. तरी अखंड कवितेंत रमिल्लो सगळ्यांत साहित्य मोग्यांक रडोवन गेलो इतलें मात खरें.

ह्या श्रेश्ठ कवीक म्हजी मना पासून वंदना.

संपर्क: 09886540706



कथा

# वैष्णव जन तो...!

जयमाला दणाईत

पांचशें वयर जाणांचो मेळ थंय त्या ल्हानशा वाठारांत जमिल्लो. आज खरें तर सरकारान पेत्रोल-डिझेल वाड आनी हेर जायत्या कारणांक लागून 'कर्नाटक बंद'चो उलो मारिल्लो. तरी कारकाळ, उडुपी अशा लागशिल्ल्या खंयच्या खंयच्या गांवांतल्यान लोकांचे चोमे थंय एकठांय जायत आशिल्ले. इतले दीस थांबिल्लो पावसय सकाळच्यान शिरशिरूंक लागिल्लो -जणूं सैमाकय मनांतलें दुख्ख अनावर जावन काळजा थावन उमाळ्यार उमाळे येताले.

इतल्यान दोशीं वटेन दोगांनी खांद्याक धरून गोविंद शणैक थंय हाडलो. बावडयाच्या तोंडाक पळोव नज आशिल्लें. ह्या चार दिसां भितर त्या नवदीच्या म्हालगड्याची पिराय आनीकय कितल्याश्याच वर्सांनी वाडिल्ले वरी दिसताली. ताका भायर आयिल्लो पळोवन सगळेच दाटीवाटीन ताका हात दिवंक फुडें सरूंक लागले -एकच गचमुड्डी जाली. ताणें करुणा भरीत जावन भरिल्ल्या दोळ्यांनी जमावाचेर नदर मारली, आनी सामक्या थकिल्ल्या आवाजान उलोवंक सुरवात केली-

''म्हज्या मोगाळ भावा-भयणींनो, तुमी इतले व्हडा संख्येन म्हज्या नातवाक निमणो निरोप दिवंक हाजीर जाल्यांत तें पळोवन म्हजें मन सामकें भरून आयलां. खंयच्या उतरांनी तुमकां दिनवासचें तें म्हाकाच समजना जालां. आमच्या घरच्या दुख्खांत सामील जावंक तुमी आयल्यात तें पळोवन म्हाका सामकें भरून आयलां-''

इतलें उलयतां उलयतां तो सामको थकून गेलो. कोणें तरी उदकाचो पेलो ताचे मुखार धरलो. तो कुरवेनच नाका म्हणत ताणें त्या झाडाच्या पेडार बसकण मारली. लोकांक ताची ती अवस्था पळोवन भरून आयलें. कांय जाणां तर व्हडा व्हडान रडूंक लागलीं.

परिस्थितीच अशी आशिल्ली - एखाद्र्या मनशाचें अकस्मात वचप कितलें काळजाक तोपता! आनी तें लेगीत कितल्या लोकांक? - चारच दिसां पयलीं गोविंद शणैल्या नातवाक - गोपालाक कामार वतना एका फास्ट येवपी ट्रकान हायवेचेर उडयिल्लो. चूक कोणाची, कशें कितें सगळें मागीर, पूण आक्ताक तो पोर जायबंदी जाल्लो - त्या अपघातान ताचे पांय गेल्ले. सकाळची वेळ - जण एकाची कामार वचपाची घाई - तरी कोणें तरी वळखीच्या मनशान ताका पळोवन ताच्या घरच्यांक कळीत केल्लें.

ताचो भावोजी ऑफिस सोडून तात्काळ थंय हाजीर जाल्लो. ॲम्बुलन्सांत घालून ताणें ताका 'मणिपालांत' ॲडमिट केल्लो. ताच्या पांयांची ती अवस्था पळोवन दोतोरांनी तर तेच वेळार 'ओन्ली ट्वेन्टी पर्सेंट चान्सीस! बाकी कितेंय मिरेकल जाल्यारच संभव! आतां देवाचेरच भरवंसो दवरपाचो!'' अशें म्हणून हात वयर केल्ले. तरी ताचो भावोजी मेडिकल रिप्रेझेंटीव्ह आशिल्ल्यान ताची जायत्या दोतोरां कडेन थंय वळख आशिल्ली. तांणी झा झा ब्लिडींग जातालें तें बंद केलें. वेग वेगळ्यो टेस्टी स्कॅनिंग बी करून रोकडेंच ताच्या पांयांचें ऑपरेशन सुरू केल्लें -

ट्रक पांयां वेल्यान गेल्ल्यान मांडयेच्या हाडांचो साप्प पिठो जावन गेल्लो. पुण रॉड बी घालून ताच्या दोनूय पांयांचे ऑपरेशन करून उडयिल्लें आनी तें बरे तरेन जालां अशेंय जाहीर करून सोडिल्लें.

ॲक्सिडेंटाच्या जाग्यार सून हॉस्पिटलांत व्हर सर तो बरे तरेन उलयतालो. सारको शुद्धीर आसलो खंय. आपल्या आज्याची

भोंवन भोंवन याद करतालो. आपल्या म्हाल-म्हाताऱ्या आज्याक आपली ही अवस्था पळोवन त्रास जातले हें ताच्या जिवाक खातालें. भावोजीक आपले खातीर ऑफीस बंद करून येवचें पडलें हाचे खातीर ताणें भावोजीची परत परत माफी मागली खंय -

"आरे गोपाला, पोरा शांत राव; तुका कितलें लागलां. उलोवंकय त्रास जाता पळे. शांत पडून राव." भावोजी ताका शांत करतालो. पूण तो परत परत उलयतूच आसलो खंय. "भावोजी, म्हज्या अण्णा-अम्माक कोण ना म्हजे बगर. ताई, आकाचीं तर लग्नां जाल्यांत. हांव नासत तर तुमी तांकां अंतर दिव नाकात हां." काकुळटेक येवन तो ताका परत परत रिक्वेस्ट करतालो खंय - जणू आपलें भवितव्य ताका मुखार दिसतालें जांवये.

खरें म्हळ्यार गोपाल हो एक शांत, विचारी, आदर्श तरनाटो! हेर तरणाट्यां वरी बेठोच उखलपोयो वागपी न्हय. सारासार विचारान वागपी एक शाणो भुरगो! पूण वेळच तसो आयिल्लो जांवये! नाजाल्यार टायमार भायर सरून ऑफिसांत वेळार पावपी गोपाल नेमको त्याच दिसा घरा भायर सरतना आपलो मोबायल विसरता कितें, परतो घरा येवन तो व्हरता, अर्दे वाटे वेल्यान पयशांचें व्हॉलेट मेजार विसरला म्हणून परत घरा पावट मारता आनी मुखार ऑफिसाची बस चुकतली म्हणून आपली बायक मात्शी फास्टांत घालता कितें? एके गाडयेक ओव्हरटेक करून फुडें येतगीच मुखा वेल्यान येवपी ट्रकाचो अदमास ताका आयलो ना जांवये. आनी चड स्पिडिन वचून तो त्या ट्रकाक धडकलो - बायका वेल्यान शेंवटलो तो टायरा पोंदा ताचे पांय सांपडले. ट्रक वाल्याचोय आपले स्पीडिचेर ताबो उरलो ना - आनी फुडलें सगळें आक्रित घडलें.

सदचे वरी तो घरांतल्यान भायर सरून टायमार फुडें गेल्लो. तर तो ट्रक ताका सांपडचोच नासलो - पूण विधीलिखित तशें घडचें आसले म्हणून तर ताका हें विसरलों, तें उरलें करून घरा दोन दोन फावटीं घालपाची बुद्द आयली आनी जुस्त तो ट्रक थंय पावपाक ताजी बायक येवन धडकली आनी हो ॲक्सिडेंट जालो. हें सगळें अटळ आसलें, म्हणून कोणाच्यान चुकोवंक जालें ना-

ताच्या आज्याचो ताचेर इल्लो चड जीव! चारूय पुतांगेर सगळ्यो धुवोच! एका तरी पुताक चलो जावचो म्हणून धर्मीक गोविंद शणैन हांगा थंय आंगवण्यो करून करून म्हणटा तसो नवसा-सायासान जाल्लो हो नातू - सामको अपुरबायेचो! घरच्यांनी सवकासायेनच ताच्या कानार ही ॲक्सिडेंटाची खबर घाली. ताका मणिपालाक व्हेला. बऱ्या बऱ्या दोतोरांची ट्रिटमेंट चालू आसा. ऑपरेशन सक्सेसफूल जालां - अशें आनी तशें. खबर आयकून आज्याचो आवरो उडिल्लो. तो बेगोबोग आपणाक थंय व्हरात म्हणून तांचे फाटीक लागिल्लो. पुण ताचीय भलायकी तशी बरी उर नासली. म्हणून मागीर दुसऱ्या दिसा ताका हॉस्पिटलांत व्हरचें उतर गोपालाच्या काकान दिलें. पूण तो घडीघडी आपणाक थंय व्हरपाचो हट्ट करून बशिल्लो. आपल्या खासा खुद्द दोळ्यांनी गोपालाक पळे बगर ताका सुसेग जावचो नासलो

पूण ऑपरेशना मेरेन वेवस्थीत उलोवपी गोपाल हुंगरीचें वखद दितगीच बेशुद्द जाल्लो तो दोन दीस जाले तरी शुद्दीर आयलोच ना. तशे सगळेच भियेवन गेल्ले. हेरांकच इतलें वायट दिसतालें, तर आवय-बापायची अवस्था कितें जावपाची? जिवार बेतिल्लें, पूण पांयांर निभावलें म्हणून समादान मानपाचें तर हें वेगळेंच अपसरण मुखार उबें जाल्लें. तांचेर तर सामको आकांत आयिल्लो. एकलो एकसुरो अपुरबायेचो गुणेस्त पूत - ताचें अशें जाल्लें पळोवन तांकां सामकें 'दे माय आनी धरणीठाय' जावन गेल्लें. कितें करचें, कोणाकच कळना. एक दीस सोड, चडांत चड दुसऱ्या दिसा तरी तो शुद्दीर येवंक जाय आसलो. दोतोर कोणाकच कांय सांगना जाले, आय.सू.यू.त वचूंक सोडनात जाले. तांकां कोणाची काकुट नासली. असले तरेकवार पेशंट ते सदांच पळेताले. आनी कशें जालां, कितें जालां, तांकां तरी सारकें कळलां काय देव जाणां.

लोक आपापले कुवती प्रमाण तर्क लडयताले. कोण म्हण्टाले, "दोतोरांची चूक जाल्या म्हणून ते कांयच सांगनात. कोणें सांगलें, ॲनेस्थेसिया चड जाल्या, म्हणून ताका शुद्द येना. मात्सो कोणय जाणकार आसलो तर तो सांगी - "ताचे मांडयेचें हाड फुटलां - थायबोनचो मॅरो रगतांत मिक्स जालो आनी शिरेंतल्यान मेंदूत गेल्ल्यान तो बेशुद्द जाला." कोण म्हणी, "हार्टांत वचून ताका ब्लॉक जावन अॅटॅक आयला." खरेंच कितें जालां कोणाकच समजनासलें.

कोण कितें सांगता ते भायले उपचार घरच्यांनी सुरू केल्ले. हॉस्पीटलाच्या वाठारांत ताचे सगळे सोयरे, इश्ट मित्र, ताचे बरे मागते जमिल्ले. जण एकलो आपापल्या देव-देवतेक व्होरायतालो. ताका शुद्द येवची, तो बरो जावचो म्हणून मना-काळजा थावन प्रार्थितालो. हे वटेन गोविंद तर सामको सर्गाच्या दाराक हात तेंकोवन म्हणटा तसो आयिल्लो - न्ही, तें दार आपले खातीर उक्तें जालां असो ताचो समज जाल्लो जांवये. एके वटेन सामको जीव वयर-सकयल जाल्ल्या आवय-बापायची तोच समजूत काडटालो -

"म्हाका कांयच जायना गे अम्मा, तूं बेठीच नर्वस जायनाका पळोवंया. रडूं नाका गे. हांगाच्या सामक्या व्हडल्या हॉस्पिटलांत हाडला म्हाका भावोजीन - तूं चिंता करिनाका. पांयांक मार लागला." खरें तर ताच्या दोनूय पांयांच्या मांडयेच्या हाडांचो साप्प पिठो जाल्लो खंय. जगून लेगीत एका अपंगुळाची जीण भोगची पडपाची. ताका आपलें संचीत कळून आयिल्लें काय देवाक खबर! पूण आपले ऑपरेशन करचे पयलीं ताणें दोतोराक रिक्वेस्ट केल्ली, - "दोतोर समजा हातूंत म्हजें कितेंय बरें वायट जालें जाल्यार म्हाका अवयवदान करूंक मेळटलें मूं? फाटी कॅम्पाक गेल्ले कडेन हांवें फॉर्म भरिल्लो आसा - दोळे, किडनी दान करपाचो."

"डोण्ट वरी यंग मेन. बी ब्रेव्ह! वी आर ट्राईंग अवर लेव्हल बेस्ट. डोण्ट वरी. यु वील बी ऑलरायट. सो डोण्ट थींक निगेटिव्हली." दोतोरान ताचे तकलेर हात दवरून अपुरबायेन म्हणिल्लें.

"आय एम् सरटन अबावट देट, डॉक - पूण तरिकय कितेंय कमी अदीक जालें जाल्यार हांवें सांगिल्लें लक्षांत दवरात."

"बरें बरें, तूं आतां शांत राव पळोवंया -

तो पळे ॲनेस्थेशियन आयलो. आतां रोकडेंच ऑपरेशन सुरू जातलें. प्लीज कॉओपरेट अज - दोतोरान ताका समजायलो.

सादें पांयांचें तर ऑपरेशन जाल्लें. पूण ताचो काळ आयिल्लो जावंये - ना तर ऑपरेशन सक्सेसफूल जावनय तो असो दोन दीस शुद्दीर आयलो ना हाचो अर्थ कितें समजुपाचो? तशें म्हळ्यार थाय बोनचो मेरो रक्तांत मिक्स जावन मेंदूंत पावल्यार, ब्लड सरक्युलेशन सारकें जायना आनी मनीस कोमांत वचूं येता म्हण्टात, पूण इतले जाय सर दोतोराक कांय कळ्ळें ना? आनी ॲनेस्थेशिया चड जाली तरी मनीस असो कोमांत वता? देवाकच खबर; कितेंय जांव, कशेंय जांव एका तरनाट्याचो असो शेवट जाल्लो आनी ताच्या घरच्या लोकांक सासणाच्या दुख्खांत उडोवन तो तांकां सोडून गेल्लो. तिसऱ्या दिसा दोतोरांनी ताका 'मेलो' म्हणून डिक्लेर केलो आनी सगळ्यांचेर एकच आकांत आयलो. तो वेळ म्हण सर ताची भलायकी सुदारता, हळू हळू कांय जायना सुधारणां जातात - आज ना फाल्यां तो शुद्दीर येतलो, हे आशेर निंबून आशिल्ल्या ताच्या आवय-बापायक आनी घरच्यांक हो एक व्हडलो शॉकच आशिल्लो. आवय बापूय तर घुंवळूनच पडले. तांकां थातारता सर घरच्यांक नाका शेवट जालो. आज्याक ही खबर सांगची कशी हेंच कोणाक कळना जालें.

पूण सांगले बगर जाता? आयकून ताच्या पायांपोंदची जमीनच खसकली. ''आतां इतलेंच पळोवपाचें उरिल्लें ह्या म्हाताऱ्या दोळ्यांनी! देवा, कसली वेळ हाडली रे बाबा तुवें ही म्हजेर? म्हजो एकलोच अपुरबायेचो नातू तो. ताका असो व्हरचो आसलो जाल्यार ताका जल्माक तरी कित्याक घातलो?'' आज्याचे विकळाप सोंसूंक जाय नासले. खबर आयकत सावन ताणें धड कांय पोटांत घेवंक नासलें. ताचीं वखदां वेळेर घेवंक जाय म्हणून घरचे फॉर्सान ताका थोडें तरी खावंक लायताले. पूण ही खबर आयकना फुडें तर ताणें सादो उदकाचो घोट लेगीत घेवंक नासलो.

गोविंद शणैलो नातू भायर पडलो ही खबर वाऱ्या सारकी सगळ्याक फांकली. आनी ताचें निमणें दर्शन घेंवक ताचें मडें घरा हाडचे पयलींच हांगा ही झुंबड उसळली लोकांची. गांवांत गोविंद शणैक तसोच मान आसलो. गोर-गरीबांक वेळार पावचो म्हणून ताचो लौकीक आसलो. गांवा खातीर कितेंय करपी गोविंद शणैक जगलोक मानतालो. ताच्या भुरग्यांक न्हंय, पूण नातवाक गोपालाकय तशेच वळखताले. तोय तसोच वेळ काळ पळेनासतना गरिबांच्या उल्याक धांवून वचपी. आपलें हातचें काम लेगीत सोडून गरज पडल्यार दुसऱ्याक मदत करपी - सामको हेल्पींग हॅण्ड कसो आसलो.

थंय जमिल्ले सगळे लोक एकमेकां मदी ताचे विशीं उलयताले - एकामेकांक ताच्या कर्तुबां विशीं सांगताले - ''जाणाय मरे, फाटल्या म्हयन्यांत म्हाजें चेडूं बाळांत जावचें आसलें. आजून दीस भरोंक नासले, पूण त्या रातचें ताका सामके मर काय उर जालें. गांवांत कांय दोतोर-ना-फातोर - तेका हॉस्पिटलांत व्हरोंक कोणच फुडें येना. तेदे रातचो हो गोपालदा बाबडो धावन आयलो - तेणें म्हाज्या चेडवाक हॉस्पिटलांत व्हयलें. म्हणून म्हाजें चेडूं आनी नातू हाताक लागलो आमच्या - आनी तेजे नशिबांत हें असलें मरण आसलें पळे.'' नाक दोळे पुशीत एकलो आपले बरोबरच्यांक सांगतालो. ''हय सायबा, येशें तुकाच न्हू जायत्या जाणांक पावला वेळाक हो गोपालदा. जसो आजो तसो नातू - एकमेकांक सोंबताले. आज्याक घेवन दिल्ली कार घरच्यां पासत कमी गांवा खातीरच चड उपकारा पडलेली.''

''हें कांय न्हू, म्हाजे चेड्याच्या लग्नाक पत्रिका छापोंक तेज्या प्रिंटींग मशिनाचेर दिल्ल्यो. ताणें एक पानदुडू घेतलो ना जाणा? खरें ताचे. ताचे आवयेक ताची ही कर्तुबां मानवनासलीं. पूण तिका पत्तो लागों दिनास्तना तो हीं कामां भायले भायर करतालो.'' आनी तें खरेंय आसलें. ताणें हें हाका ताका उपेगी पडप ताच्या वेव्हारी आवयक पसंत नासलें. तरी ह्या कानाचें त्या कानाक कळोवंक दिनास्तना तो हीं असलीं कामां भायले भायर करतालो. मध्यान रातीं कोणेंय गरजेन उलो केल्यार धावन गेले बगर केन्नाच रावलो ना. ते वेळार आपलो-परको अशें लेखि नासतना, जात-पात पळे नासतना लोकांचे गरजेक धावन वचपाचो हो वसो, हो सभाव ताणें आपल्या आज्या कडल्यान घेतिल्लो म्हणूंक जाय. आनी आज अशे तरेन काळान ताचेरच घालो घालून आख्ख्या गांवचो आदारच काडून घेतिल्लो.

ताचे अवयवदानाची खबर कळटकच आवय-बापायन न्हंयकारच कळयिल्लो. ते वेळार ताचो आजो फुडें सरलो. आपलें दुख्ख कुशीक सारून ताणेंच आपल्या पुता-सुनेक समजायिल्लें. पुताची ती निमणी इत्सा - ती तांणी पुराय करूंकच जाय ना तर ताच्या आत्म्याक क्लेश जातले. आनी ताच्या दोळ्यांनी एक दोगांक दृश्टी येतली, ताच्या किडनी दानान एक तरी जीव जगतलो - त्या दोळ्यांच्या रुपान तरी तो ह्या संवसारांत अजरवर जातलो - अशें आनी जायते तरान समजावन ताणें तांचीं मनां तयार केल्लीं. हरशीं हॉस्पीटलांत अशे तरेन मरण आयिल्ल्यान ताचें पोस्ट मार्टम हें जातलेंच. पूण हे दान करून तो जगलोकाक उपेगी तरी पडटलो - मरणा उपरांत लेगीत - हें त्या आज्याक मनोमन पटिल्लें आनी म्हणून ताणें आपल्या पुताक सय करूंक फॉर्सार केल्लो. लोकां मदीं ही खबर कळटकच तर लोकांचो गोविंद शणै विशीं आदर चडच वाडलो. धन्य धन्य हो आजो आनी ताचो नातू! हीच भावना सगळ्या लोकांची जाल्ली. खेडे गांवांत आजून तरी ही अवयवदानाची कल्पना सर्रास कळूंक नासली. पूण आज ताची उदात्तताय तांकां समजल्ली. ताच्या ह्या वागण्यान हेरांकय तशी प्रेरणा मेळत हो संभव आसलो. दनपार सरतना चादरीन गुठलायिल्लें ताचें प्रेत ॲम्बुलन्सांतल्यान थंय सर पाविल्लें. फकत ताजें उक्तें दवरिल्लें मुखामळ तितलें लोकांक पळोंवक मेळटालें. एके तरेचे शांतीन, तेजान भरिल्लो ताचो तो चेहरो पळोवन शोक सागरांत बुडिल्लो तो लोक समूह सामको भारावन गेल्लो - वयल्या रस्त्या वेल्यान वचपी एका मोटारींतल्यान येवपी सूर ते शांततायेंत निनादत गेले - ''वैष्णव जन तो तेणे कहिए, जो पीड पराई जाने रे...''

संपर्क : 9757119317

# विनोद कित्याक शेणला?

कृ. म. सुखठणकार



आज आमचे जिणेंतल्यान तशेंच साहित्यांतल्यान विनोद शेणत चल्ला हो सूर आमकां साहित्यीक चर्चेंत वा विनोदी साहित्याचो अभ्यास करपी जाणकारां कडल्यान आयकूंक मेळटा. विनोद फुडें वखदाक लेगीत मेळचोना काय? हो भंय निर्माण जाल्ल्यान आतां आमी विनोदा कडेन गांभिर्यान पळोवपाक लागल्यात ही बरी गजाल. पारो हिसपा भायर वयर वतकच आमकां ग्लोबल वॉर्मींगाची याद जाता तांतुतलीच ही गत. आदीं लेगीत विनोदाक कोणें गांभिर्यान घेतलो ना अशें एके कडेन चि. वी. जोशीन मत उग्तायलां. 'एको रसः करूण एव' अशें म्हणत विनोदाक कुशीक दवरिल्लो. विनोदी साहित्याचेर परिसंवाद आनी कार्यशाळेचें आयोजन करून विनोदी साहित्याची निर्मिती निखालस जावंची ना. मागणी तसो पुरवठो हो अर्थशास्त्राचो सिद्धांत हांगां लागू जायना.

नवे विनोदी बरोवपी तयार जायनात हाचीं विंगड विंगड कारणा आसात जावंये. ही परिस्थिती फकत कोंकणी भाशेंतूच न्हय तर हेर भारतीय भाशानीय निर्माण जाल्या. तातूंत उपहासप्रधान (satirical) लेखन तर काळाच्या पड्ड्या आड गेलां. मोहम्मद हनीफ हो पाकिस्तानी लेखक म्हणटा, "We are living in times when it has become very difficult to satire." ह्या लेखकाचें "A case of exploding mangoes" बरेंच गाजलें. दुसरी एक पाकिस्तानी लेखिका सबा इम्तीयाज हिचें 'Karachi you are killing me" हेंय पुस्तक बरेंच गाजलें. दोनूय पुस्तकांचो जॉन्र (genre) सेटायरिकल. विशय आयलो म्हणून नमूद केलें. तर उपहासप्रधान लेखनाक हांगांच न्हय तर जग भरांत वायट दीस आयल्यात अशेंच म्हणचें पडटलें. म्हज्या मतान हाचें मुखेल कारण समाजाची आयची मनस्थिती. कारण बरोवप्याक, तें मागीर गद्य वा पद्य जावं, ताचीं बिजां आशीकुशीकूच मेळटात आनी ताचें बिंब आमकां ताच्या साहित्यांत पळोवंक मेळटा. देखीक, राम गणेश गडकरीक 'एकच प्याला' ह्या नाटकाचें बीज तांच्या गोंयच्या राबित्यांतूच मेळ्ळें हें आमकां तांचें चरित्र वाचल्यार कळटा. ते दिसपट्येंत बरयतात, *''म्हापशात रात्र झाली की लोक न्यायमुर्ती रानड्यांसारखे जड जिभेने बोलू लागतात. गोव्यात कोणाचा अंमल? दिवसा पोर्तुगीज व रात्री दारूचा''*. दुसरे कडेन ते बरयतात *'एकच प्याला, एक सामाजीक नाटक. लेखक राम गणेश गडकरी. प्रारंभ तारीख २८ एप्रिल १९१४ मुक्काम पणजी गोवा'*. आशीकुशीच्या घडणुकांचो बरोवप्याचे साहित्य निर्मितीचेर कसो प्रभाव पडटा हें दाखोवपा खातीरूच हांवें ही देख दिल्या. समाजांत घडपी घडणुको बरोवप्याक जश्यो साहित्य निर्मिती खातीर प्रेरीत करतात तश्योच त्यो बरोवप्याक मरगळूय हाडपाक शकतात अशें म्हजें मत. हीच मरगळ आमकां मोहम्मद हनिफाच्या उतरांतल्यान जाणवता. आज आमी कोणाचें कितेंच आयकुपाचे स्थितींत नात. केन्ना केन्ना म्हाका प्रस्न पडटा गोपाळ गणेश आगरकरां सारके एकोणिसाव्या शतकांतले समाजसुधारक आज एकविसाव्या शेकड्यांत आशिल्ले जाल्यार तांचेकडल्यान समाज सुधारणा जातली आशिल्ली काय म्हूण. हो प्रस्न पडपाचें कारण म्हणजे ह्या चडश्या समाज सुधारकांनी आपले तिखट लेखणेन समाजांत आशिल्ल्या वायट चाली-रितींचेर चाबकां ओडलीं. आगरकर 'सुधारक' नांवाचें वर्तमान पत्र काड्याले. तातुंतल्यान आपले विचार मांड्याले, सभा घेताले, भाशणांतल्यान आपली तिखट प्रतिक्रिया व्यक्त करताले. सगळ्यांत म्हत्वाचें म्हणजे लोक तांचे आयकताले, वाचताले आनी तांणी सांगिल्ले प्रमाण वागताले. ताचो परिणाम म्हणून बालविवाह सारकेल्यो वायट रिती ना जावंक पावल्यो. विधवांचे पुनर्विवाह जावपाक पावले. कायद्याक लेगीत कठीण अश्यो गजाली समाजसुधारकांचे लेखणीक आनी वाणीक लागून जांवक पावल्यो. आज सरकारान खर कायदे करून लेगीत बलात्कारासारकेल्यो समाजाक कलंक लावपी गजाली कमी जावंच्यो सोडून वाडत आसात. हाचें मुखेल कारण म्हणल्यार आज समाजाच्या नितीमुल्यांक (values) घसरण लागल्या. घड्ये आज हे समाजसुधारक आशिल्ले जाल्यार 'तुमी म्हाका सांगपी कोण? तुमी आमकां पोसतात?' असलीं उतरां तांच्या कानार पडटलीं आशिल्लीं. अशे हे परिस्थितींत उपहासप्रधान लेखनाक कितलें मोल आसा हो प्रस्न बरोवप्याच्या मनांत आयिल्ल्या कारणान तो पेनाक बुकल लावन, तें बॉल्साक लावन, तें खोमीस खुंट्याळ्याक लावपाची आज शक्यताय चड आसा.

एका काळार उपहासप्रधान लेखनांतल्यान समाज प्रबोधन जातालें हें आयचे पिड्येक सांगल्यार तांकां अजाप जाल्यार तातूंत अजाप जावपा सारकें कांय ना. श्रीपाद कृष्ण कोल्हटकर हांणी आपल्या लेखनांतल्यान तेंच काम केलें. ते 'सुधारक'अंतल्यानूय आपले लेख प्रसिद्ध करताले. तांचें 'सुदाम्याचे पोहे' पुस्तक त्या काळांत खूब गाजलें. आपले लेखणेन तांणी चि.वी.जोशी, राम गणेश गडकरी सारकेल्यांक प्रभावीत केले. हाचे वयल्यान तांचे लेखणेचे तांकीचो अंदाज काडूं येता. *'गाजराच्या पुंगीपासून वानासारखा ललित कलेत जरी भर पडली नाही तरी निदान जठरात भर पडण्यास हरकत नसते. तिच्याप्रमाणे ह्या लेखमालेचेही बोध व करमणूक असे सूक्ष्म व स्थूल स्वरूपाचे दोन उद्देश आहेत. त्यापैकी पहिला उद्देश फसून दुसरा सिद्धीस गेला तरी लेखकाचे श्रम अगदी फुकट गेले असे त्यास वाटणार नाही.'* 'कोल्हटकरा सारकेल्या प्रतिभावंत लेखकाचेर जर अशें म्हणपाची पाळी आयली जाल्यार बाकिच्यांचें कितें! ''सुदाम्याचे

पोहे'' हें पुस्तक साधारण विसाव्या शेकड्याचे सुरवेक प्रसिद्ध जालां. ताचे उपरांत मांड्वी पुला खालच्यान बरेंच उदक व्हांवन गेलें. हांवें वयर म्हणलां तशें कोल्हटकराचो चि.वी.जोशीचेर बरोच प्रभाव आशिल्लो. ताणी, आपल्याक विनोदी लेखनाची स्फूर्ती तांचे ''सुदाम्याचे पोहे'' कड्ल्यान मेळ्ळी अशें म्हणलां. हाचेवयल्यान ते सुरवेक उपहासप्रधान लेखन करताले हें वेगळें सांगपाची गरज ना. मागीर ते तांच्या पाली भाशेचे गुरु धर्मानंद कोसंबे हांचे सांगण्यावयल्यान उपहासा कड्ल्यान परिहासा कडेन वळ्ळे. म्हणुनूच आमकां चिमणराव आनी गुंड्याभाऊ मेळ्ळे अशें म्हणल्यार जाता. हाचेर नामनेचे साहित्यकार गंगाधर गाडगीळ बरयतात, *'माणसाच्या कानावर अनेक प्रकारचा उपदेश पडत असतो. पण जो उपदेश स्विकारण्यास माणसाची मनोवृत्ती त्या त्या वेळी अनुकूल असते तोच त्याला 'ऐकू' येतो आणि त्याचाच तो स्वीकार करतो'*. हीं उतरां म्हाका भांगरांत बांदून दवरचींशीं दिसतात. आज आमची 'मनोवृत्ती' कसलेच उपदेस स्विकारपाचे स्थितींत ना. आमची ही अधोगती धर्मानंद कोसंब्यांक आदींच कळिल्ली म्हणुनूच ताणी वेळारूच चि.वींक हो सल्लो दिला जांवये ही शक्यताय न्हयकारूं नजऽ.

बिंब प्रकाशनान घडोवन हाडिल्ल्या 'हास्य बिंब' ह्या सुवाळ्यांत विनोद काल, आयज आनी फाल्यां ह्या परिसंवादांत 'विनादे आयज' ह्या पेपराचेर विनोद सादर करतना सखारामबाब बोरकार म्हणटात, *'विनोद आयज अशें म्हणटा तेन्ना आमकां सरभोवतणीची परिस्थिती काल कितें आशिल्ली आनी आयज कितें आसा ताचेर मातशी नदर घालची पडटली'*. आयज विनोद नश्ट जावपाचें मुखेल कारण म्हणल्यार सरभोवतणची परिस्थिती हें कोणूच न्हयकारचो ना. खास करून उपहासप्रधान लेखन हें एके पातळे मेरेन करूं येता. हे लेखनाकूय कांय मयादी आसात. समाजांतल्या विसंगतींचेर बोंट दवरून तांचेर बडी मारप हें उपहास प्रधान लेखनाचें मुखेल उद्धीश्ट. हें उद्धीश्ट सादलेना जाल्यार लेखकाची शक्त, वेळ, कागद आनी शाय हाचो अपयव्य अशेंच म्हणचें पडटलें. दिलीप बोरकार 'धुमक्यार धुमके' हे पुस्तकाचे प्रस्तावनेंत बरयता, *'समाजाक चिमटेय लागना आनी धुमक्याचोय परिणाम जायना अशे दाट कातीचे लोक आसात'*. समाजाचें दुर्दैव अशें, ही जमात आज वाडत आसा. आज आमकां दिसाळें उगडटना तारखेचेर नदर मारची पडना कित्याक तर दिसाळ्याचें माथाळे सर्वसादारणपणान सारकेच आसतात. आज एका म्हयन्याचे बाळक ते अंयशी वर्साचे जाणटे बायलेचेर बलात्कार जाता. फाटी हरीयाणांत एके गाबणे बोकडेचेर आठ जाणानी बलात्कार करून तिचो जीव घेतलो पूण आमचेर हाचो कांयच परिणाम जायना. आमकां हाची संवंय जाल्या. आमी चडनचड 'श्शी बाबा' म्हणून दिसाळ्यांतली दुसरी बातमी वाचपाक घेतात. हालींच आनीक एके घडणुकेंत उत्तरप्रदेशांत, मांयन सुनेक अग्नीपरिक्षा घेवपाक लायली. हाचो अर्थ आज आमी जनावरां जाल्यांत अशेंय म्हणू नजऽ, अशें म्हणल्यार तो जनावरांचो अपमान. जेन्ना आमी सोंश्याक पळयतात तेन्ना आमकां ताचे गूणधर्म खबर आसतात. सोंश्याचो लांडगो जांवचोना हाची आमकां खात्री आसता पूण मनशा बाबतींत अशें म्हणू नज? ह्या बलात्काराचे केसिंचो अभ्यास केल्यार आवयबापायन विश्वासान ज्या मनशाकडेन आपले धुवेक सोंपयल्या त्याच मनशाचो लांडगो जाल्ल्याच्यो केसी आमकां चड मेळटल्यो. विजय तेंडुलकरान मकरंद साठेक दिल्ल्या एके मुलाखतींत ते म्हणटात, ''प्रत्येक मनशा भितर भयंकर हिंसाचार भरला आनी आपलीच देख दीत ते सांगतात, आपूण एक मध्यमवर्गीय कुटुंबांत वाडिल्लो भुरगो. बरे संस्कार आनी चोयवटेन खंयच हिंसाचार, गाळी वखदाक लेगीत नाशिल्ल्यो. तरी आसतना आपल्याकडल्यान 'गिधाडे' हें नाटक बरोवन जालें. हे नाटकांतलो हिंसाचार आनी भाशा पळोवन आपुणूच अस्वस्थ जालों मागीर मनशांचेर बारीक नदर मारून तांकां खरवडून काडटकच आपल्याक कळ्ळें की सात्वीक, सदाचारी, बरें आचरण आशिल्लें मनशांत लेगीत ह्यो गजाली आसतात.'' तर, म्हाका दिसता आजकाल आमचेर चडयल्ले संस्कार आनी संस्कृतीचे आवरण चाटेपावलाक गळून पडून हो भितरलो लिपून आशिल्लो हिंसाचार सर्रास वयर सरपाक लागला. जेन्ना आमचीं मुल्यां इतलीं रसातळाक वतात तेन्ना उपहासात्मक आनीक कितें बरोवप जातलें? कपल!

हालींच जी.डी.अगर्वाल हाणी श्यांयशीं पिरायेचेर १०९ दीस उपोशणाक बसून आपलो प्राण सोडलो. गंगा न्हंय नितळ करपा खातीर संबंदीतांनी पावलां उखलचीं म्हणून ते उपोशणाक बशिल्ले. आय.आय.टीं.त तशेंच कॅलिफॉर्नीया युनिव्हर्सिटींत शिक्षण घेतिल्ल्या ह्या मनशान पर्यावरणाचो इतलो ध्यास घेतिल्लो की ताणी हे खातीर सगळ्याचो त्याग केल्लो. निमणे ह्या ध्येया खातीरूच आपलो जीव वगडायलो अशें खेदान म्हणचें पडटलें. प्रसारमाध्यमानी तांची फावो तशी दखल घेतली ना. टि.व्ही.र शिरो ताणून भासाभास करपाक तांचे कडेन बाकीचे जायते विशय आसात. एका विशयाचे रवंथ करून चोथो जातकच ते दुसरो विशय घेतात. आतां आमकां ताचीय संवंय जाल्या. आज टि.आर.पी. रेटींग कोण कितल्यो शिरो ताणून आड्डता हाचेर थारता जांवये, खबर ना. आसूं. आमचीं दिसाळीं हे सर्तींत फाटी ना, तांकां आपल्या खपाचें पडलां. फाटीं कवी नीरज भायर पडले. तांकां हे दिसाळ्यांनी दोन तीन वळी फावो जाल्यो. येदे व्हडले तांकीचो हो गीतकार मायानगरींत केन्नाच रमलोना. ते सदां मुशायरांतूच रमले. तेंगशेर आसतना मायानगरीचेर खोंट मारून परत कवी सम्मेलना, मुशायरे रंगोवपाक वचपी हो पयलो गीतकार. पूण इश्टागती खातीर देवानंदाच्या सिनेमां खातीर ताणी निमणे मेरेन गितां बरयलीं. नीरज हे पयले कवी आनी मागीर गीतकार अशें आसून लेगीत ताणी मायानगरींत आपली वेगळीच सुवात तयार केल्ली. 'फुलों के रंग से' हें प्रेमपुजारी सिनेमांतले गीत मुखड्यान सुरू जायना तर 'दिल आज शायर है' हें गॅम्बलर सिनेमांतले गिताक मुखडोच ना. पद्मश्री आनी पद्मभुशण सम्मानीत ह्या कवीक फावो ती सुवात आमचे दिसाळ्यांनी मेळची न्हय हें आमचें दुर्दैव. अमको अमको पक्षाला सोडचिट्टी देणार? (एक प्रस्नचिन्न), अमक्या अमक्याला मंत्रीमंडळातून डच्चू देणार?? (दोन प्रस्नचिन्नां) असल्यो बातम्यो

चौकटींत घालून छापतकच घ्येऽऽ आमी दिसाळें घेवपाक उड्यो मारतात. घरांत इतलीं प्रस्नचिन्नां आसतना तीं कमी म्हणून आमी पांच रूपया दिवन हीं प्रस्नचिन्नां घेवन घरा येतात. हे रिमिक्साच्या जमान्यांत कवी निरजाची याद तरी जातली कोणाक!

साहित्यमळ नितीमुल्यांचे घसरणेंत फाटीं ना. हांगां प्लॅझियरिजम सर्रास चल्लां अशें कानार पड्यलें. पूण हाचो अणभव व्हॉट्सएपार आयलो. ह्या व्हॉट्सएप ग्रुपांनी कांय ज्येश्ठ शायरांच्या शेरांचे अणकार करून पोस्ट जातात. हांवें थंय मूळ शायराचे तोच्च शेर पोस्ट करून पळयलें पूण ताचो व्हडलोसो परिणाम जालोना. मागीर हांवें तो नाद सोडून दिलो. अशे ग्रूप करपा फाटल्यान हेतू बरो आसता हातूंत मात्तूय दुबाव ना. प्रतिभा आशिल्ल्यानी आपली प्रतिभा दुसऱ्यां सामकार दवरची हो ताचो हेतू कारण ती कांय सेकंदां भितर देशांत आनी देशा भायर पावता. जर प्रतिभा नासत जाल्यार कोण कोणाक शिणना. पूण जेन्ना प्लॅझियरिजम जाता हाचो अर्थ ताणे वाचप्याक 'टेकन फॉर ग्राण्टेड' असोच जाता. हाचो वाचप्यांक भयंकर मनस्ताप जांव येता. हांव अशें म्हणन, तो मूळ बरोवप्याचो तर जालोच, वाचप्यांचोय तो अपमान. हांगां म्हाका म्हान शायर आनी गीतकार मजरूह सुल्तानपुरी हाणी सांगिल्लो अणभव मांडीन दिसता. मजरूहसाहब तरणाटे आसतना ताणी आपली एक रचना आपले गुरु जिगर मुरादाबादी हांचे मुखार सादर केली. हे रचनेंत मजरूहसाहबान दुसऱ्या एका शायराच्या शेराचो आसपाव केल्लो. जिगर मुरादाबादीन मजरूहसाहबाक तो शेर काडून उडोवपाक सांगलें. मजरूहसाहबाक हे गजालीचो राग आयलो, तरणाटे आशिल्ल्यान तांकां तितली मॅच्युरिटी येवंक नाशिल्ली. तुमी सगळे शायर दुसऱ्यांच्या शेराचें आपल्या शेरानी कसो आसपाव करतात, अशें ताणी जिगर मुरादाबादीक सवाल केलो. 'कुछ अपना करने के बाद!' जिगरसायबान हांसून जाप दिली. ताणी फुडें म्हणलें 'तुम इस तजुर्बे से गुजरे तब यह शेर कहना'. फुडें मजरूहसाहब शायर आनी गीतकार म्हणून नामनेक पावले. ताणी 'तेरे आँखों के सिवा दुनिया में रखा क्या है' हें पद 'चिराग' ह्या सिनेमा खातीर बरयलें. पूण ह्यो वळी तांच्यो न्हय, त्यो फैज अहमद फैज ह्या शायराच्यो. पूण ही चोरी थारना कारण मजरूह साहबाचो तजुर्बो! पुणून आमी ह्या फाकिवंत शायरांच्यो वळी घेवन गजल बरयली जाल्यार ती चोरी थारतली हें हांवें सांगपाची गरज ना. धनुश्य उखलचे पयलीं आपली तांक कितली हें आपणेच थारावपाचें. वाचप्यांक दिवपा सारकें कांय नासतकच कशें ग्रेसफूल एग्जीट घेंवचें हें भा.रा.तांबे हांची 'मधू मागशि माझ्या' हे कवितेंतल्यान शिकचें हें म्हजें मत. 'सेवा ही पूर्विची स्मरोनी करिं न रोष सख्या, दया करीं' अशें म्हणत कवी आपली लेखणी सकयल दवरता.

आज आमी दुसऱ्याकूय मत आसता ही गजाल साप्प विसरल्या. हाका लागून दुसऱ्यांच्या विचारांचो, मतांचो कसो आदर करप हें आमकां कळना. जे गजालिंची आमकां संवकळ ना ती आमी रोखडीच विसरतात. असलें वातावरण विनोदाक खास करून उपहासात्मक, विडंबनात्मक लेखनाक पोशक न्हय. आज 'झेंडूची फुलें', 'ठणठणपाळ' हीं पुस्तकां पुराणांतलीं वांयगीं कशीं दिसपाक लागल्यांत. आज हीं पुस्तकां बरयल्लीं जाल्यार अत्रे आनी दळवी हांचे कितें जातलें आशिल्लें खबर ना! रेस्पे फकत पदाक आनी पयशांक लागून मेळटा असो आमचो समज जाला. आदीं मनशाचे विद्वत्तेक मान आसतालो तो काळ केन्ना फाटी पडलो. राम गणेश गडकरी शिकयतना केन्नाच कदेलार बसले ना. एका काळार टिळक, आपटे आनी आगरकर हांचे सारके जे खुर्चेर बसले ते खुर्चेर आपूण बसचो ना अशे ते म्हणटाले. टिळकांक मंडाळा जेलींत घालतकच ताणी *'ज्यांना पाहिल्याबरोबर तोंडातील विडी टाकून द्यावी असे वाटावे, असे पुण्यात कुणी राहिले नाही!'* अशी प्रतिक्रिया दिल्ली. आज कोणेय ह्यो सगळ्यो घड्यल्ल्यो काणयोशो दिसतात अशें म्हणल्यार हांव ताका दोश दिवचोना. संगीतकार, लेखक, गायक हांच्याय भितर एकमेकां खातीर आदर आनी प्रेम आशिल्लो, तो आतां उरूंक ना. आदले संगीतकार दुसऱ्या संगीतकारान स्वरबद्ध केल्लें गीत आवडलें जाल्यार ताका तशें मुजरत फोन करुन कळयताले. एक संगीतकार दुसऱ्या संगीतकारा खातीर वाद्यां वाजयतालो. 'दोस्ती' सिनेमांत 'राही मनवा दुख की चिंता' आनी 'जानेवाले जरा' हीं लक्ष्मीकांत प्यारेलाल हाणी संगीत दिल्ले पदानी हार्मोनीका राहूलदेव बर्मन हाणी वाजयलां. 'मन डोले मेरा तन डोले' हें हेमंत कुमारान संगीत दिल्लें 'नागीन' सिनेमांतलें पद. हें पद पुंगीच्या आवाजाक लागून खूब गाजलें. त्या पुंगीच्या आवाजाचें श्रेय संगीतकार रवी आनी कल्याणजी हांकां वता. आज हे सर्तीचे युगांत अशें परत घडत हाची शक्यताय कमीच. हाचो अर्थ आदल्या काळांत सर्त नाशिल्ली अशी न्ही. सी. रामचंद्र, मनमोहन, सचीन देव बर्मन, कल्याणजी आनंदजी, लक्ष्मीकांत प्यारेलाल, हेमंत कुमार, सोनीक ओमी, श्यामजी घनश्यामजी, नौशाद अशे कितलेशेच दिग्गज आशिल्ले, कोणाचीं नांवां घेंव! सर्त आशिल्ली पूण बरें संगीत कोण तयार करता हाची, कोणाक कितले सिनेमा मेळटा हाची न्ही. गायकान आपल्या आवाजा परस दुसऱ्या गायकाचो आवाज पदाक बरो सूट जातलो अशें सुचयल्ल्याचें लेगीत देखीक आमकां मेळटात. म्हणून ह्या संगीतकारांचें, गीतकारांचें, गायकांचें नांव, ते वचून जरी कितलीं वर्सां जालीं, अजून आदरान घेतात. पंडीत हृदयनाथ मंगेशकरान अशीच एक याद सांगिल्ली. जयश्री गडकराच्या एका सिनेमा खातीर सुरेश भटान गीत बरोवचें अशें थारिल्लें. त्या काळान गीतकाराक पदा फाटल्यान दोन हजार मेळटाले. तांकां मुंबय हाडून एका हॉटेलांत दवरलेले, हॉटेलाचें भाडें दिसाक आठशें. सात आठ दीस जाले तरीय भट सायबाकडल्यान एक लेगीत वळ बरोवन जायना जातकच हृदयनाथ मंगेशकरान तांकां पद केन्ना बरोवन जातलें काय विचारलें. 'आज भी हो सकता है छः महिने भी लग सकते हैं' अशी ताणी जाप दिली. शेवटीं भट सायबाकडल्यान गीत बरोवन जालें ना, हॉटेलाचें भाडें आठ हजार जालें. 'भाडा बाळ देगा' अशें भट सायबान जयश्री बाईक सांगलें आनी ते टॅक्सींत बसले (बाळ म्हणजे हृदयनाथ मंगेशकर). अचकीत भट सायबान कागद मागलें. कागद मेळना जातकच ते हॉटेलाचे बिला फाटल्यानूच बरोवंक लागले 'सुन्या सुन्या मैफिलीत

माझ्या तुझेच गीत गात आहे'. ताणी हें गीत एका धपक्यान बरोवन दिलें, जयश्री बाईच्या दोळ्यांतल्यान दुकां व्हांवपाक लागलीं. बाळ धुरीन (जयश्री बाईचे घरकार) सोमतो पंदरा हजारांचो चेक बरोवन दिलो तो ताणी तांकां परत दिलो. 'ये उपरसे आई आमद है हम बेचते नहीं' अशें म्हणून ते गेले. फुडें हो सिनेमा आयलोना पूण तें पद 'उंबरठा' ह्या सिनेमांत घेतलें. हे पदान एक वळ आसा 'पुन्हा पुन्हा भास होत आहे कुणी तरी आरशात आहे'. जब्बार पटेलान हातुंतलें 'कुणी तरी' काडपाक सांगलें. ह्या सिनेमांतली नायिका विवाहीत आशिल्ल्यान कुणी तरी आरशात आहे हें सोबना अशें तांचे म्हणणें आशिल्लें. भट सायबाक दुसरें उतर कशेंच सुचना जालें. लताबाई, वाजोवपी सगळे हे उतराक लागून तिश्टत उरले. इतल्यान शांताबाई शेळके लताबाईक मेळपाक स्टुडियोंत आयली. तांकां हृदयनाथ मंगेशकरान तांची अडचण सांगली. शांताबाईन सट्ट करून, तातूंत व्हडलें कितें 'कुणी तरी' चे सुवातीर 'तुझे हसु' हीं उतरां घाला अशें सुचयलें. हें आयकल्या बराबर, 'व्वा शांता' अशीं उतरां भट सायबाचे तोंडांतल्यान भायर पडलीं'. 'अहो शांताबाई आहेत त्या 'हृदयनाथ मंगेशकरान म्हणलें. 'मुझे मालूम है वह शांताबाई है, पर वह ऐसा लिख गई की मुँह से निकल गया' भट सायबान म्हणलें. अश्या प्रतिभावान मनशा वांगडा काम करपाक मेळ्ळें हें आपलें नशीब अशें हृदयनाथ मंगेशकर म्हणटा. आमी दनपारचे जेवणाक चुकून सादारण उड्डमेथी जाल्यार, 'कितें गो तुज्या हाताचो सुवाद!' अशें म्हणून घरकान्नीक तोखेतात कारण आमकां रातचे जेवणाचो प्रस्न आसता.

पुणून 'रात पुनवेचं चांदन प्याली कशी चांदीची मासली झाली' हीं उतरां हेमंत कुमाराचे तोंडांतल्यान आयकतना शांताबाई खातीर आमचे तोंडांतल्यान एक उतर भायर सरना. आज आमकां एकमेकाचे साहित्या बद्दल आदर उरूंक ना. आज साहित्यीक मेळाव्यानी दर एकलो आपली साहित्यकृती सादर करून कडसरता दुसऱ्याची साहित्यकृती आयकुपाक वा पळोवपाक रावना.

हांवे हें सगळें सविस्तर सांगपाचें कारण म्हणल्यार आज विनोदी लेखनाक, प्रकार कसलोय जांव, पोशक वातावरण ना. जंय कमराचें सोडून कपलाक बांदपाक लागल्यात थंय उपहासात्मक लेखनाक तर नाच ना. कमळ चिखलांत उगवता जायत पूण विनोद थंय मूळ लेगीत धरना. विनोदी साहित्याची निर्मिती साहित्याभितर अत्यंत कठीण काम. चि.वी. जोशी एके कडेन म्हणटात, *'विनोदी वाङ्मय वाचणे किंवा ऐकणे हे आनंददायक काम जरी असले तरी त्याची रचना करणे पार श्रमाचे आणि जिकिरिचे काम आहे'.* इतलें श्रम घेवन निर्मितिल्लें साहित्य जर मोख सादचेंना जाल्यार ताची निर्मिती करपूच कित्याक असो विचार मनांत येतकच बुकल पेनाक लागता, पेन बॉल्साक आनी खोमीस खुट्याळ्याक!

**('हास्य बिंब' सुवाळ्यांत केल्ले उलोवपाचेर आधारीत लेख)**

संपर्क: 9850530756

*(...पान ५ वयल्यान)*

बैल, आमी कोण सारक्यो कविता आकांत गाजल्यो. कोंकणी कविता मुक्तछंदांतल्यान अवतरूंक लागली. माधव बोरकार, काशिनाथ शांबा लोलयेकार, रमेश वेळुस्कार, प्रकाश पाड्गांवकर, अरूण साखरदांडे, शंकर परूळकार आदी कवी नव्या वळणाच्यो, वेगळ्या आशयाच्यो कविता बरोवंक लागले. पोरण्या छंदोबध्द कवितेचीं तींच तींच झरिल्लीं वळणां सोडून तांणी नव्या वळणांची कविता समर्थपणान केळयली. कोंकणी कविता शिरवंत केली अशें म्हाका दिसता.

आधुनीक कवितेचीं मुखेल लक्षणां म्हणल्यार, कवितेंत उण्यांत उण्या उतरांनी मोटे आशय सांगप, सुक्षिमांतल्यान विराट गजालीं कडेन झेप घेवप, साद्या उतरांनी अणभवाची गुंतागुंत मांडप, आशयाक म्हत्व दितना मुक्तछंदांत बरयल्ल्या कवितांनी दृश्यबंधाक, कवितेच्य आकृतीबंधाक मांडावळीचे नदरेन म्हत्व दिवप, कवितेंत आशयाचीं वेगळी वेगळीं वलयां निर्माण करप.

**प्रस्नः आतां निमाणो प्रस्न विचारतां. कोंकणी नवकवितेचो फुडार कितें? कला, साहित्य, संगीत ह्या संकल्पनां कडल्यान सामान्य मनीस दिसान दीस पयस वता अशें चित्र दिसता. तुमचें मत कितें?**

**जापः** कोंकणी नवकवितेचो फुडार कितें हाची जाप साक्षात काळूच दितलो. पूण कोंकणींतल्या नव्या कवींनी जागतीक कवितेचो खोलायेन अभ्यास करचो पडटलो. अनेक अर्थक्षमता, आकलनांतली सुक्ष्मता, आशयाची घनता आनी अभिव्यक्तीतली नवता पारखुपाची नदर आमी केळोवची पडटली. ते खातीर हेर भासांतल्यो कविता वाचच्यो पडटल्यो. फकत कविसंमेलनांनी कविता वाचून भागचें ना. कोंकणी कवितेक नवें आयाम दिंवचे पडटले तेन्नाच ती आनीकूय मुखार वतली अशें म्हाका प्रामाणीकपणान दिसता.

आयच्या यंत्रयुगांत सामान्य मनशाची जिणूय यंत्रा सारकीच जाल्या. तो यंत्रा सारकोच रोबोटीक जाला. संवेदना मुणावत चल्ल्या. मन निबर जालां. कलेच्या मोगान पिसो जाल्लो एकाद्रो रसीक चुकून सांपड्टा. अशें जरी आसलें तरी कला, साहित्य, संगीत ह्या संकल्पनांचें मनीस संस्कृताये कडेन दाट नातें आसा. शेकीं, खंयचीय कला जांव, ती आमची संस्कृताय गिरेस्त करीत रावता. अणभव, अभिव्यक्ती, परंपरा, नवता, भास, संस्कृताय हांचो अभ्यास करून, आमचे जिणेच्या संदर्भांत ह्या संकल्पनांची सांगड घालपाक जाय. कला, साहित्य संगीताच्या मळार आपली स्वताची नवी व्याख्या तयार करपाक जाय.

# गोंयकारांचें प्रबोधन करपी पुस्तकां

परिक्षण

'अस्मितायेचो कसाय' आनी 'प्रतिक्रियेचें किरायतें' हीं कोंकणी, गोंय, गोंयचें राजकारण आनी समाजकारण आदी बी साबार विशयांचेर लेख आशिल्लीं कोंकणीचे खडेगांठ फुडारी भो. उदयबाब भेंब्रे हांचीं दोन पुस्तकां हालींच उजवाडाक आयल्यांत.

ह्या दोनूय पुस्तकांतले सगळे लेख कांय वर्सां आदीं 'सुनापरान्त' दिसाळ्यांत उजवाडाक आयिल्ले. 'अस्मितायेचो कसाय' ह्या पुस्तकांत भास, संस्कृती आनी अस्मिताय ह्या विशयां कडेन संबदीत आशिल्ले लेख आसपावल्यात आनी 'प्रतिक्रियेचें किरायतें' ह्या पुस्तकांत गोंय, गोंयचें राजकारण आनी समाजकारण आदी विशयांचेर लेख आसपावल्यात. 'अस्मितायेचो कसाय' ह्या पुस्तकांत वट्ट ३२ लेखांचो आसपाव आसा तर 'प्रतिक्रियेचें किरायतें' ह्या पुस्तकांत वट्ट २९ लेखांचो आसपाव आसा.

कसाय आनी किरायतें हीं गोंयचीं परंपरेन चलत आयिल्लीं वखदां. हीं वखदां भलायकेक वायटाक पडनात. तांचो परिणाम बरोच जाता. भो. उदयबाब आपल्या मनोगतांत म्हणयत तशें ''मनशाचे भलायके भशेनच लोकशायेचीय भलायकी आसता आनी ती सांबाळपाक कसाय, किरायतें असल्या वखदांचीय गरज असता. लोकशायेच्या संदर्भांत हीं वखदां म्हळ्यार लोकमताची परगटावणी. ती उलोवन करूंक जाता तशीच ती बरोवन करूंक जाता. आनी ती जितली प्रभावी जाता तितली लोकशायेचे भलायकेक बरी.''




भो. उदयबाबांचे बाबतींत सांगतलो म्हळ्यार ते ह्या विशयांचेर फकत बरयनात तर विंगड-विंगड माचयेर ते ह्या विशयां संबंदी उलयतात आनी भौसामदीं जागृताय हाड्यत.

ह्या दोनय पुस्तकांत आसपाविल्ल्या लेखांचेर नदर मारली जाल्ल्यार आमकां ह्या लेखांची विविधताय नदरेक येता. हांवें वयर म्हळां तशें हे सगळे लेख भास, संस्कृती आनी अस्मिताय, गोंय, गोंयचें राजकारण आनी समाजकारण आदी विशयांचेर आसपाविल्ले आसात. आनी अजापाची गजाल म्हळ्यार हे लेख बरोवन कांय वर्सां जालीं तरी, इतल्या वर्सां उपरांतय आमी तेच विशय चाबडायत आसात आनी तेच खातीर ह्या लेखांचें म्हत्व वाड्टा. ह्या पुस्तकांतल्या मनोगतांत लेखक म्हणटा तशें ''अस्मितायेचो कसाय ह्या पुस्तकांतले प्रस्तावनेक माथाळो दितना हांवें म्हणिल्लें विशय आयचे, घड्ये फाल्यांचेय...! आतां म्हाका दिसता त्या माथाळ्यांत इल्लो बदल करून विशय आयचे, फाल्यांचेय...! आनी अशें बरयलें जाल्यार तो सत्याचो विपर्यास जांवचो ना.''

आयज ज्या वगतार कोंकणी, घटक राज्य, घटक राज्यांतले गोंयकारांचे अधिकार हांचे आड जेन्ना पोके मुद्दे घेवन चळवळपी, वळवळपी आनी आपलें सत्व सोडिल्ले कांय गोंयकार आनी बिगर गोंयकार केन्ना-केन्ना तकली वयर काड्यत तेन्ना तांकां सणसणीत जाप दिवपाक हीं दोनूय पुस्तकां आनी तांतले लेख उपकाराक पडटले. जो मेरेन हे मुद्दे सभे माजार येवपाचे बंद जांवचे नात तो मेरेन ह्या पुस्तकांचें म्हत्व अबाधित उरतलें.

ह्या वेळार म्हाका शणै गोंयबाब ह्या म्हापुरसाचो उगडास येता. तांणी बरयिल्लें 'कोंकणी भाशेचें जैत' हें पुस्तक इतल्या वर्सांनीं आयज लेगीत कोंकणी भाशे आड उबे केल्ल्या मुद्द्यांक जाप दिवपाक उपकाराक पडटा. तशेंच ह्या दोनय पुस्तकां बाबतींत घडटलें हाचो म्हाका विस्वास आसा.

ह्या दोनूय पुस्तकां वरवीं वाचप्यांचें प्रबोधन जाताच पूण सरकार, गोंयकार आनी समाजांतल्या कांय घटकांक फावो तेन्ना कोडू कसाय आनी किरायतेंय दिवपाचोय वावर हीं दोनूय पुस्तकां करतात.

'अस्मितायेचो कसाय' ह्या पुस्तकाचें मुखचित्र भो. गौरीश वेर्णेकार हांणी काडलां आनी 'प्रतिक्रि येचें किरायतें' ह्या पुस्तकाचें मुखचित्र भो. सुषमा कोठारकार हांणी काडलां. हीं दोनूय पुस्तकां संजना पब्लिकेशन्स, सांगें हांणी उजवाडाक हाडल्यांत.

दिसाळ्यांनीं आयिल्ले लेख कांय दिसां उपरांत वाचप्यांच्या यादींतल्यान वतात. पूण अश्या लेखांचें म्हत्व मात उणें जायना. भो. उदयबाबांच्या दिसाळ्यांत आयिल्ल्या ह्या लेखांचें म्हत्व वळखून तांचें पुस्तक काडपाचो विचार संजना पब्लिकेशन्सचे धनी भो. दिनेश मणेरकार हांकां आयलो आनी तांणी तो प्रत्यक्षांत हाडलो. ह्या इतिहासिक वावरा खातीर भो. दिनेश मणेरकार हांकां मनाथावन परबीं

**सखाराम शेणवी बोरकार**

संपर्क : 9923306751

**अस्मितायेचो कसाय**
बरोवपीः उदय भेंब्रे
मोलः २०० रुपया
पानांः२२७
संजना पब्लिकेशन्स, सांगें

**प्रतिक्रि येचें किरायतें**
बरोवपीः उदय भेंब्रे
मोलः २०० रुपया
पानांः१८४
संजना पब्लिकेशन्स, सांगें.



## रमेश... रंगयाळ्या पांखांचें सुकणें

रायबरेली, १० डिसेंबर २०१८

**संपादकाक खास नमन,**

जांणी म्हाका हो अंक धाडपाचे उपकार केले.

नेमाळें हातांत येतांच दोळे भरून आयलें. पूण सावरलेय. विचार आयलो, ह्या संसाराच्या महानाट्य शाळेंत दर एका पात्राची आपली भुमिका आसता. आपलो अभिनय पुराय करून सगळे जाण रंगमाचयेच्या फाटल्यान वतात. रमेशानूय आपलो अभिनय पुराय केलो आनी अनंताच्या यात्रेक गेलो. म्हजो अभिनय अजून बाकी आसा. जिणेच्या सामान्य नियमा प्रमाण हांवें जाचेर म्हजो एकाधिकार मानिल्लो, जाका फकत म्हजेच खातीर समजून घेवपाचो आशिल्लो तो म्हजे परस आपल्या मांयभुंये खातीर,आपले भाशे खातीरूच ह्या संवसारांत आयिल्लो हें हांव आता समजूंक पावलां. ताचे सगळे स्वांतःसुखायच आशिल्ले.

जर म्हाका गोंयचे परिसीमेंत बांदून दवरिल्लें जाल्यार रमेशाक ह्या असीम आकाशाच्या भोंवडे खातीर कसो वेळ मेळटलो आशिल्लो? सवण्याक जर पांखां पसरून उडपाची इत्सा आसा, जाल्यार ताचे खातीर पांजरो भांगराचो जरी आसलो तरी ती बंदखणूच. गोंयां भायर एक सुंदर संवसार आसा हें रमेशाक कळिल्लें, ताका तें समजल्लें जेन्ना तांणी म्हाका आपले सांगाती म्हण स्विकारले. साद्या रंग-रुपाचें, वेशभुशेचें चली ताका कित्याक इतलें आवडलें हाचो अंदाज म्हाका खूब उपरांत आयलो. रंगयाळ्या पांखांचें तें सुकणें, विस्तृत आनी उकत्या मळबाच्या भोंवडे खातीर, खंयच्या तरी बळिश्ट रुखाच्या खानयेच्या कल्पनेन हांगा थंय भरकट्टालें. जंय ते कांय खीण विसव घेवन परत झेप घेवं शकतालें.

हांव एका प्रसिद्ध साहित्यकाराचे चली हे खबर आसून सुद्दा, रमेश म्हज्या व्यक्तित्वाक आनीक म्हाका वळखून घेवपा खातीर हळुहळू संपर्क वाडयत रावलो. हांव ताच्या एकतर्फी मंतव्या बद्दल अजाण आशिल्लें. लग्नाची मागणी घालून तीन म्हयन्या उपरांतूय मन वयर सकयल जातालें. पूण आयज ह्या उक्तीचो स्विकार करपाक मात्तूय संकोच जायना, 'जोड्यो ह्यो वयल्यानूच घड्डून येतात.' नाजाल्यार तो प्रांत हांव कशें स्विकारपाचें जो म्हाका देशाच्या मानचित्रार सोदचो पड्टालो?

गोंयां कडेन म्हजें कांयच नातें-संबंद नाशिल्लें. वेगळो प्रांत, वेगळी भास, वेगळो राहणीमान, वेगळ्या अश्या वातावरणाची केन्ना पयस पयस मेरेन कल्पनाय करूंक नाशिल्ली. पूण नियती हीच आशिल्ली जाचेर कोणाचोच वंश आसना. ज्या प्रमाण हिंदी, उर्दू, इंग्लीश भासांचें म्हाका न्यान आसा अशें म्हणू येता, त्याच भशेन वांगडा रावतना हांवें ताची भास आत्मसात करपाचो यत्न केल्लो. पूण रमेशान कोंकणी शिकपा खातीर म्हजी मदत केली ना. तो हें तर मानतालो, कोंकणी ही वयर सरपी भास आसा, जी बाकिच्या प्रांतीय भाशेंच्या तुलनेंत मातशी नवी आसा. ह्या विशयाचेर जायते फावट चर्चा जाताली. चारशीं वर्सांच्या गुलामगिरी उपरांतूय जर खंयची भास आपली अस्मिता राखता, जाल्यार हे तिच्या जैताचे प्रमाण. कारण शेवटाक ह्या परिस्थितींतल्यान पुराय भारत देश गेल्लो.

हय, हिंदी साहित्याचो इतिहास खूब पोरनो आसा आनी ताचे फाटल्यान खूब कारणाय आसात ही वेगळी गजाल.

ह्याच संदर्भान एक प्रसंग याद जाता. रमेश, हांव आनी अरूण साखरदांडे गवर्नर हाऊजाच्या भायर एका बेंचार बशिल्लीं. चर्चा चलताली. राम मनोहर लोहियाची गजाल आयली आनी म्हज्या तोंडांतल्यान एक प्रस्न भायर पडलो, डॉ.लोहिया गोंयां येवंचे पयली गोंयच्या लोकां मदीं स्वतंत्रता आंदोलनाची "हुरहूर" नाशिल्ली तर? रमेश खूब बेजार जालो. अरूणान म्हळें, "अरे रमेश... तोंड धाप... ती खरे उलयता." तेन्ना हांव सुटले. दोग जाणांचे एक मत... रमेश.. शांत... हें अशें आपलेपण आशिल्लें. रमेशान आपली भास वयर काडपा खातीर, तिच्या उन्नयना खातीर आपलें तन मन धन आनी जिवन वेचले आनी हांव ताची प्रेरणा जालें. ताचे राखणें, ताची ढाल जालें. ही म्हजे खातीर तर अभिमानाची गजाल. तांणी वेगळ्या वेगळ्या भासांतली हिरे माणकां वेंचुन कोंकणीची ओटी भरली. पूण ह्या गजालीची खंत जाता, आयज जेन्ना तो अशरिरी जाला तेन्ना हांव ताचें अर्दवट उरिल्लें काम पुराय करपाक शकना. ताची मदत मेळिल्ली जाल्यार ताची अर्दवट उरिल्लीं कामां पुराय करतलें आशिल्लें. ताची नदर इतली पयस केन्ना वचूंक ना जांवये. आयज वेळा पयलींच तो आमकां सोड्डून गेल्या कारणान कोंकणीक जे लुकसाण जालां, नव्या पिळगेचो एक मार्गदर्शक ना जाला, ह्या सगळ्यांची पूर्तताय जावप अशक्य शें दिसता.

गोंयच्या तरण्या पिळगे कडेन एक मागणें करता , संकुचीत जांवं, भायर सरात. धर्तरी खूब विशाल आसा. एखाद्रे संसार पळोवंकना जाल्यारूय जाता पूण स्वताक तरी आपल्या दोळ्यांनी पळयात. वेगळ्या वेगळ्या भाशेंच्या सौंदर्याक आपल्या घराच्या आंगणांत हाडात आनी आपले भाशेक सुंदर आनी समृद्ध करात.

हें आमचें दोगांयचें सपन आशिल्लें आनी आसा... कितलें पुराय जातलें हे तर वेळूच जाणा.

**आमीन.....**

**मिथिलेश श्रीवास्तव.**

*(अणकारः ममता वेर्लेकर)*



## संग्रहाक दवरपा सारखो आंक

भौ. संपादक

रमेश भाईचेर आयिल्लो 'जाग' आंक भोव आवडलो. संग्रहाक दवरपा सारखो एक ग्रंथ असोच जाला. तातूंत रमेश भाईची वेगळीं रुपां एकठांय पळोवंक, वाचपाक मेळ्ळीं. विशेश म्हळ्यार सगल्यां बरोवप्यांनी मन उक्तें करून रमेश भाई विशींचो मोग आनी ताचें विशींच्या सन्मानान बरयिल्लें आसा. त्या सगल्यां मदीं म्हजी दोन उतरां छापली त्या खातीर उपकारी आसा.

**- कलानंद मणी**

# कविता

## चार कविता

आर. रामनाथ

### गादी

एक गादी जळटा
आनी जळटा
गू
मूत
घाम
लाळ
वखदां
रगत
सोरो
वीर्य
सपना
यादी
आनी खूब किदें...

एक रिटायर्ड वेदना जळटा...



### किरवंत

हांवें
तुजे कडें
आरोग्य मागलें
तुवें
म्हाका
दुयेंत दिलें...

हांवें
तुजे कडें
आयुश्य मागलें
तुवें
म्हाका
निसण दिली...

आतां
तूं
आमगेर
किरवंत म्हूण यो...



### बिण्ण काळखांत

बिण्ण काळखांत
हांव सदांच तुजे दोळे घेवन भोंवतां
आनी हें आतां म्हज्या संवकळीचें जालां...

खऱ्यांनीच सांगतां
हांव तुका दुखयतां
सतायतां
पूण तूं हें सगळें
मुकाट्यान
सोंसता
पचयता...
तूं म्हज्यांत खंयच ना
हांव मात तुज्यांत शेकान शेक पातळ्ळां...
– निदान आतां तरी तूं जळूं नाका
तूं खुबूच थकलां
तुका सुशेग जाय
तूं तुजे दोळे धांप
म्हाका तुज्या काळखांत मुंगरूं दी...



### वोल्तार

अचकीत
तूं
म्हाका
एका
वो
ल्ता
र
मेळ्ळें...
आपशीच
म्हाका
म्हजें
म
र
ण
कळ्ळें.

संपर्कः ९८५०४५८७६३ 






## प्रश्न...

**निलबा अ. खांडेकार**

म्हाका हेंच कित्याक कळना
मनीस आनी जनावरां मदलो फरक?
हांव हालीं अशेंय चित्तां की
जनावरां लेगीत चड सुरक्षीत आसात मनशांच्याकूय

भुरग्यां वयले बलात्कार हत्ये मेरेन चलतात,
ह्या विखाणूंची लागणूक
सगळ्याच निर्जंतूक नात्यांक
कित्याक आनी कशी पूण लागली काय?

कोणाक कांय सांगनासता
हांसत्यो-खेळट्यो तरनाट्यो
फांसार कित्याक हुमकळावन घेतात काय?

विज्ञाननिश्ट आनी धर्मनिरपेक्षतेचो मुखवटो चडोवन
कित्याक घालतात काय धार्मीक थळांचेर हात
भावनांचो सर्व घात करून?

सत्तेर आयले म्हणटगीच
आपल्या आश्वासनांचो फोंड करून
हो देश कितलो मेरेन लुटपाक जातलो
हाचेरूच कित्याक विचार मंथन जाता काय?

हांव आयजूय कोणाक विचारूंक शकलोना
'मॉब लिचिंगान' लोकशायेच्या कपलार लायिल्लो कलंक
आनी त्या कलंकांत बुडून गेल्लो सर्वसामान्य

मत स्वातंत्र्य आनी अभिव्यक्ती स्वातंत्र्याचो गळो आंवुळटना
कित्याक फारान मारून उडयतात काय विचारांक?
सत्तेंतल्यान लूट आनी लूटींतल्यान
देशांतर करपी कित्याक सुस्त आसात काय
संवसार भोंवडेर?
कित्याक विसरले आमी
ओसामा बिन लादेनचे हत्येक?
कित्याक विसरले आमी
मोसादच्या एजेन्टांनी केल्ले
पॅलेस्टीनी गनीमांच्या हत्येक?

खरेंच आमी दुयेंती, मानसीक आनी वैचारीक
वंशीक गुलामगिरीचे?

कोणेंय म्हाका सांगचें,
खंयच्या कोटांत हांव धांव घेवं
म्हज्या जिविता खातीर
म्हज्या मनशांतल्या मनीसपणा खातीर?

हांव तर म्हज्यांतल्यानूच निर्वासीत जायत चल्लां
म्हज्या सपनांतलो देश सांडत चल्ला.
हांव 'उबंतर' पक्षाचो जिवीत भराचो वांगडी
वयल्यान तूं म्हण्टा,
'बुरा मत देखो, बुरा मत बोलो, बुरा मत सुनो'
'गुन्यांव भोगसप म्हटल्यारूच समर्थ जिवीत जगप'

म्हजो पिंड असो केन्नाच नाशिल्लो

ओफऽऽ
माय महात्मा
आय ॲम फक ऑफ थॉटस्.

संपर्क: 9637092524



